वर्स 6 ◆ अंक 289 ◆ पानां 8 ◆ मोल ₹ 3.00 / पणजी / मडगांव / गोंय
REGD NO. G-2/RNP/GOA/28/2017-19 ◆ RNI: GOAKON/2016/69208 Facebook.com/Bhaangarbhuin @Bhaangarbhuin instagram.com/ Bhaangarbhuin epaper.thegoan.net
बिरेस्तार, 7 एप्रील 2022
लोकभाशेंत लोकांचो आवाज
# भांगरभूंय

काम करूंक नाशिल्ल्या कंत्राटदारांक काडटले नोटिशी ›7

कोलकाताच्या जैतांत कमिन्स पर्जळ्ळो ›8

## › तिळ्यार

### भेदभाव, भ्रश्टाचार हे व्होटबँकेच्या राजकारणाचे दुश्परिणाम: मोदी

**नवी दिल्ली:** जेन्ना सरकारी येवजण्यांचो लाव दरेक क्षेत्रा मेरेन पावतलो तेन्ना देशांत 'सबका साथ - सबका विकास' जातलो. देशांत जायतीं दशकां कांय पक्षांनी व्होटबँकेचें राजकारण केलें. भेदभाव, भ्रश्टाचार हे व्होटबँकेच्या राजकारणाचे दुश्परिणाम आसात, अशें प्रधानमंत्री मोदी हांणी ह्या वेळार म्हणलें. भारतीय जनता पक्षान काल 42वो स्थापणूक दीस मनयलो. मेजक्याच सुवातांचेर जैत मेळोवपी भाजपान सध्या पुराय भोवमताचें सरकार स्थापन करून राष्ट्रीय पांवड्या वयलो पक्ष म्हूण वळख निर्माण केल्या.

### 'इंधन दरवाड ही 'प्रधानमंत्री जन धन लूट येवजण'

**नवी दिल्ली:** भारतांत पॅट्रॉल, डिझेल आनी एलपीजी सिलिंडराचे दर सातत्यान वाडत आसात. फाटल्या 16 दिसांत 14 खेपे इधन दरवाड जाल्या. हाचे वयल्यान काँग्रेसीन प्रधानमंत्री नरेंद्र मोदी हांचेर टिका केल्या. इंधन दरवाड ही 'प्रधानमंत्री जन धन लूट येवजण' आशिल्ल्याचे ट्विट राहुल गांधी हांणी केलां. 2014त मोटारसायकल, कार, ट्रॅक्टर आनी ट्रकाच्यो पॅट्रॉल टांकयो भरपाच्या सध्याच्या दराची तुळा करपी आलेख तांणी ट्विटराचेर शॅर केला.

### श्रीलंकेंत सत्ताधारी आघाडी अल्पमतांत

**कोलंबो:** श्रीलंकेतल्या अर्थीक स्थिती प्रमाण राजकी समस्याय दिसान दीस गंभीर जायत चल्ल्या. श्रीलंकेचे अध्यक्ष गोताबया हांचो भाव बासील राजपक्षे हांकां मंत्रीपदा वयल्यान काडून नेमिल्ले नवे अर्थमंत्री अली साबरी हांणी एका दिसांतूच राजिनामो दिलो. श्रीलंकेंत निर्माण जाल्ल्या अर्थीक संकश्टांतल्यान भायर पडपा खातीर चौकटी भायले, अपारंपरीक, कल्पक आनी सक्रीय उपाय करचे पडटले, अशें साबरी हांणी राजिनामो दितना सांगलें. श्रीलंकेंत आणिबाणी लागू केले उपरांत पयलेच खेपे मंगळारा संसद सभाघराचें कामकाज सुरू जाले उपरांत अध्यक्ष राजपक्षे हांच्या सरकारान भोवमत वगडायलें. राजपक्षे कुटुंबा आड नागरिकां मदीं वाडट्या असंतोशाचे फाटभुंयेर 41 संसद वांगड्यांनी राजपक्षे हांची सत्ताधारी आघाडी सोडपाचो निर्णय घेवन सभात्याग केलो.

## › संपादकीय

सायबर गुन्यांवांचें जाळें

## › तापमान

| | |
|---|---|
| चडांत चड | 34 |
| उण्यांत उणें | 26 |

## › शॅर बाजार

| | |
|---|---|
| सेन्सेक्स | 59,610.41 |
| निफ्टी | 17,807.65 |

## › भांगर-रुप्याचें मोल

| | |
|---|---|
| भांगर (10 ग्राम ) | रु. 53,165 |
| रुपे (एक कील) | रु. 66,200 |

## › दावखूल  महेश दिवेकार

बांदकाम खात्यांतल्या घेरावा वेळार तूं म्हजी शेंदरी आनी उशें घेवन न्हिदलोच कसो?

# दिगंबर कामत भाजपाचे वाटेर

## ही फक्त वावडी, हातूंत कसलेंच तथ्य ना: कामत

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**पणजी : काँग्रेसीचे आमदार दिगंबर कामत हे भाजपांत प्रवेश करपाचे आसात, अशो चर्चा चल्ल्यात. राष्ट्रीय पांवड्या वयल्या दिसाळ्यांनी हे विशीं बातम्यो छापून आयल्यात. ह्या बातम्यांनी तशेंच चर्चांनी कसलेंच तथ्य ना. दिल्लींत आपूण खाजगी कामां खातीर गेल्लो. आपली भेट राजकी नाशिल्ली, खाजगी आशिल्ली. आपूण काँग्रेसींत आसा. वावड्यांचेर कोणेच विस्वास दवरचो न्हय, अशें दिगंबर कामत हांणी सांगलां.**

दिगंबर कामत भाजपांत प्रवेश करतले, हे विशीं प्रदेश काँग्रेस अध्यक्ष अमित पाटकार हांणी लेगीत न्हयकार दिला. आमदार दिगंबर कामत हांचे कडेन आपूण उलयला. कामत हांच्या भाजप प्रवेशाच्या वावड्यांचेर कोणेच विस्वास दवरचो न्हय, अशें तांणी स्पश्ट केलां. दिगंबर कामत खंयचेय स्थितींत भाजपांत प्रवेश करचे नात, असो विस्वास प्रदेशाध्यक्ष अमित पाटकार हांणी उक्तायला.

दिगंबर कामत हांच्या भाजप प्रवेशाची चर्चा सोमार सावन सुरू आसा. कांय तेंप तांचो फोन बंद आशिल्लो. तशेंच ते दिल्ली गेल्ल्याची खबर भायर आयली. हाका लागून तांच्या भाजप प्रवेशाच्या चर्चेक नेट आयलो. तीन दिसां पयली दिगंबर कामत हांणी मडगावा समर्थकां कडेन बसका घेतली. ह्या बसकेच्योय बातम्यो आयल्यात. वेंचणुके पयलीं दिगंबर कामत हे विरोधी पक्ष फुडारी आशिल्ले. विधानसभा वेंचणुकेंत काँग्रेसीक 11 सुवातांचेर जैत मेळ्ळें. पक्षांतले सगल्यांत ज्येश्ठ आमदार आसून लेगीत मायकल लोबो हांची विधीमंडळ फुडारी म्हूण पक्षान नेमणूक केली. हाका लागून मायकल लोबो हे विरोधी पक्ष फुडारी जाले. दिगंबर कामत हांची राष्ट्रीय कार्यकारिणीचेर कायमस्वरूपी वांगडी म्हूण नेमणूक जाल्या. विरोधी पक्ष फुडारीपद मेळ्ळे ना, म्हूण ते नाराज आशिल्ल्याच्यो बातम्यो आयल्यात.

दिगंबर कामत हे बरीच वर्सां राजकारणांत आसात. 1994 वर्सा सगल्यांत पयलीं ते मडगांवचे आमदार म्हूण वेंचून आयले. हाचे उपरांत सगल्यो आठ वेंचणुको तांणी जिखल्यात. 1994,1999 आनी 2002 ह्यो तिनूय वेंचणुको तांणी भाजप उमेदवारीचेर जिखल्यात. 2005 वर्सा भाजप सरकार कोसळ्ळें उपरांत तांणी आमदारकीचो राजिनामो दिवन काँग्रेसीत प्रवेश केलो. 2007चे वेंचणुके उपरांत ते मुख्यमंत्री जाले. 2017चे वेंचणुके उपरांत ते विरोधी पक्ष फुडारी जाले.

### कामत हांचो भाजपांत प्रवेश ही फक्त वावडी: प्रदेशाध्यक्ष

आमदार दिगंबर कामत काँग्रेसीचे ज्येश्ठ फुडारी आसात. हाचे मुखारूय ते काँग्रेसींत रावतले. आपूण स्वता तांचे कडेन चर्चा केल्या. ताका लागून कामत हांच्या भाजप प्रवेशा विशीं कोणेच विस्वास दवरचो न्हय. हे विशीं आपूण तांचे कडेन उलोवणी केल्या. ते काँग्रेसींतूच रावतले, अशें प्रदेशाध्यक्ष अमीत पाटकार हांणी सांगलें.

### भाजपांत प्रवेश करून वीज मंत्रीपद मेळोवपाचो यत्न

भाजपांत प्रवेश करून वीज मंत्रीपद मेळोवपा खातीर आमदार दिगंबर कामत हाचे यत्न सुरू आसात. ते विशीं तांणी भाजपाच्या थळाव्या फुडाऱ्यां कडेन चर्चा केल्या. पूण भाजपाचे सगलेच निर्णय केंद्रीय फुडारी घेतात. ताका लागून केंद्रीय फुडाऱ्यां कडेन चर्चा करपाक भाजपाच्या थळाव्या फुडाऱ्यांनी सांगलां, अशी म्हायती सुत्रां कडल्यान मेळ्ळ्या. कामत कांय वर्सां पयलीं भाजप सरकारांत वीज मंत्री आशिल्ले. ताका लागून तांचे भाजप फुडाऱ्यां कडेन बरे संबंद आशिल्ल्याचीय म्हायती मेळ्ळ्या.

# गोंय जातलें 'मास्क फ्री'

**मुख्यमंत्र्यांचे संकेत, बेगिनूच अधिसुचोवणी जारी जावये**

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**पणजी :** फाटल्या अडेज वर्सांच्यान कोरोना संसर्गाक लागून देशभरा सयत गोंयांतूय मास्क लावप सक्तीचे केल्लें. कोरोना दुयेंस पातळचे न्हय हे खातीर मास्काचो वापर गरजेचो आशिल्लो. पूण आतां कोरोना संसर्ग नियंत्रणांत आयलां. ताका लागून आतां मास्क वापरपा विशीं निर्णय घेवन सरकार बेगिनूच अधिसुचोवणी जारी करतले. मुख्यमंत्र्यान हे विशीं संकेंत दिल्यात. जिल्होधिकारी हे विशीं बेगिनूच अधिसुचोवणी जारी करतले, अशें मुख्यमंत्री डॉ. प्रमोद सावंत हांणी सांगलें.

फाटल्या कांय म्हयन्यां पसून गोंया सयत देशभरांतली कोरोना स्थिती नियंत्रणांत आयल्या. शेजारच्या महाराष्ट्र, दिल्ली, तेलंगण अशा कांय राज्यांनी शंबर टक्के अर्थीक वेव्हार सुरू करपाक परवानगी दिवन मास्क घालपा पसून नागरिकांची सुटका केल्या.

हे फाटभुंयेर गोंय सरकारूय राज्यांत मास्काचो वापर ऐच्छिक करपाचो विचार करता. हे विशींचो निर्णय जिल्होधिकारी जाहीर करतले, अशें मुख्यमंत्री डॉ. प्रमोद सावंत हांणी म्हणलें.

2020चे सुरवातीक गोंया मेरेन हो प्रसार पावलो. कोरोना संसर्ग पातळचो न्हय हे खातीर मास्क, शारिरीक अंतर आनी सॅनिटायझराचो वापर ह्या तीन गजालीं विशीं सरकारान मार्गदर्शक तत्वां जारी केल्ली.

### गरमेच्या दिसांनी मास्काचो वापर भलायकेक घातक थारुये

सध्या कोरोना स्थिती नियंत्रणांत आसा. तशेंच सध्या गरमेचे दीस सुरू जाल्ल्यान अशें स्थितींत सातत्यान मास्काचो वापर करपी कांय नागरिकांक ताचो भलायकेचे नदरेन फटकोय बसपाक शकता. दुसरे वटेन कोरोना दुयेंतींची संख्या उणी जाल्या. तशेंच 100 टक्के नागरिकांचें वासिनीकरण पुराय जावपाचे वाटेर आसा. ते खातीर सरकारान गोंयाक 'मास्क फ्री' करपाचो निर्णय घेवपाचे थारायला.

# भाजपान स्थापणूक दीस मनयलो उमेदीन

**सगल्याच क्षेत्रांतल्या मानेस्तां कडल्यान परबीं**

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**पणजी :** भाजप स्थापणूक दिसा निमतान भाजप कार्यालयांत आयोजीत सत्यनारायण म्हापूजेक हाजीर रावन कुमारजुंवेचे काँग्रेस आमदार राजेश फळदेसाय, आदले केंद्रीय मंत्री तशेंच ज्येश्ठ फुडारी ॲड. रमाकांत खलप हांचे सयत जायत्या मतदारसंघांतल्या काँग्रेस फुडाऱ्यांनी म्हापुजेचो प्रसाद घेवन परबीं भेटयल्या.

भाजपान पूजेचे आमंत्रण दिल्ले. ताका लागून आमी थंय पावले, अशें स्पश्टीकरण सगल्याच फुडाऱ्यांनी दिला. 42व्या स्थापणूक दिसा निमतान भाजपान दिल्ली पसून गोंय मेरेन सगल्याच राज्यांनी बुधवारा विवीध कार्यावळींचे आयोजन केल्ले. गोंयांतल्या भाजप फुडाऱ्यांनी बुधवारा सकाळीं आपल्या घराचेर भाजपाचो बावटो लायिल्लो. ते उपरांत सगल्याच फुडाऱ्यांनी आपल्या कुटुंबिया वांगडा पणजेंतल्या भाजप कार्यालयांत आयोजीत सत्यनारायण म्हापूजेक हाजेरी लायिल्ली.

आल्तीनो वयल्या बंगल्यार भाजपाचो बावटो लायले उपरांत घरकान्नी सयत मुख्यमंत्री प्रमोद सावंत.

### कसलेच राजकारण ना: फळदेसाय

भाजपा वतीन आयोजीत पुजेक आपूण भेट दिली हातूंत कसलेंच राजकारण ना. डॉ. प्रमोद सावंत हे सगल्यांचेच मुख्यमंत्री आसात. तांचे कडल्यान आपल्या मतदारसंघांतलीं कामां वेळांत पुराय जावपाक जाय जाल्यार तांचे कडेन बरे संबंद दवरप गरजेचें. तांची भेट घेतिल्ल्यान आपूण भाजपांत प्रवेश करतलो असो अर्थ काडप चुकीचें. आपूण काँग्रेसी वांगडा आसा, अशें राजेश फळदेसाय हांणी सांगलें.

# पॅट्रॉल, डिझेल परवडना? इलेक्ट्रीक वाहनां वापरात: काब्रालाचो सल्लो

## सुचोवणे उपरांत काँग्रेसीची खर टिका, केलो निशेध

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**पणजी :** पॅट्रॉल, डिझेलाचे वाडटे दर परवडनात तांणी इलेक्ट्रीक वाहनांचो वापर करचो, अशी सुचोवणी भौशीक बांदकाम मंत्री नीलेश काब्राल हांणी बुधवारा गोंयकारांक केल्या. हे सुचोवणे उपरांत काँग्रेसीन काब्राल हांचेर टिका सुरू केल्या.

मंत्री काब्राल हांकां बुधवारा पत्रकारांनी पॅट्रॉल, डिझेलाच्या वाडट्या मोला वयल्यान प्रस्न विचारल्यार, तांणी म्हणलें, आपणाकूय पॅट्रॉल 50 रुपया लिटर जावचे, अशें दिसता. पूण प्रत्यक्षांत परिस्थिती तशी ना. हाचेर उपाय काडपाक आतां नागरिकांनीच फुडाकार घेवचो. केंद्र सरकारान इलेक्ट्रीक वाहनां विकतीं घेवपाक अनुदान दिलां. ह्या अनुदानाचो लाव घेवन नागरिकांनी इलेक्ट्रीक वाहनां विकतीं घेवचीं. ताका लागून पॅट्रॉल, डिझेलाचो खर्च वाटावतलो. तशेंच पर्यावरणाचीय राखण जातली, अशें तांणी म्हणलें.

तशेंच पॅट्रॉल, डिझेलाचे मोल वाडत आसतनाय जायते जाण हाचेर चलपी वाहनां चलयतात. हातूंतल्यान तांची अर्थीक परिस्थिती बरी आसा, हेंच दिसून येता, अशेंय तांणी नमूद केले.

मंत्री काब्राल हांच्या सुचोवणे उपरांत काँग्रेसीच्या जायत्या फुडाऱ्यांनी तांचेर टिका करपाक सुरवात केल्या. काँग्रेस म्हणयारे अमरनाथ पणजीकार हांणी मंत्री निलेश काब्राल हांणी जनतेक केल्ली सुचोवणी 'पाव परवडना जाल्यार केक खायात' अशें म्हणपा सारके आसा. अशा प्रकाराची बेजापसालदार विधानां करपी मंत्री निलेश काब्राल हांकां सत्तेचो 'माज' चडला. भाजप सरकार अनुदान स्वताच्या बोल्सांतल्यान दिना वा अनुदान दिवन सरकार लोकांचेर उपकार करना. इलेक्ट्रीक वाहनांचो चडांत चड वेवसाय जावच कंपनींचो फायदो जावचो हे खातीर यत्न करपी निलेश काब्राल हांचो आपूण जाहीर निशेध करता, अशी टिकाय तांणी केल्या.

### काब्राल हांकां सत्तेचो अहंकार: पाटकार

पॅट्रॉल, डिझेलाच्या वाडट्या मोला विशीं सरकाराक जापसालदार धरचें न्हय, हाचेर पर्याय म्हूण इलेक्ट्रीक वाहनां वापरात, ह्या मंत्री काब्राल हांच्या विधानांतल्यान तांकां सत्तेचो कितलो अहंकार चडला हेच दिसून येता, अशी टिका काँग्रेस प्रदेशाध्यक्ष अमीत पाटकार हांणी केल्या.

# डॉ. जसपाल सिंग फाल्यां घेतले पुलीस म्हासंचालकपदाचो ताबो

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**पणजी :** भारतीय पुलीस सेवेचे (आयपीएस) वरिश्ठ अधिकारी डॉ. जसपाल सिंग हांची गोंयच्या पुलीस म्हासंचालकपदार हालींच बदल्ली केल्या. बिरेस्तारा 7 एप्रीलाक ते म्हासंचालकपदाचो ताबो घेतले.

हे विशींचो आदेश केंद्रीय गृह मंत्रालयाचे संचालक बी. जी. कृष्णन हांणी सोमारा 28 फेब्रुवारी दिसा जारी केला. आदले म्हासंचालक डॉ. इंद्रदेव शुक्ला हे 31 मार्चाक निवृत्त जाल्ले. ताका लागून डॉ. सिंग हांची गोंयचे नवे म्हासंचालक म्हूण बदली केल्या.

डॉ. सिंग हांची गोंयांत तिसरे खेपे बदली जाल्या. तांची पयलीं बदली आयपीएस जाले उपरांत 28 ऑक्टोबर 1999 दिसा जाल्ली. 5 जानेवारी 2000 दिसा गोंयांत रुजू जाले उपरांत तांचे कडेन येरादारी पुलीस उपअधिक्षक म्हूण जापसालदारकी सोंपयिल्ली. कांय काळ तांणी घुंवळे वखदा विरोधी पंगडाच्या उपअधिक्षकपदार काम केले उपरांत तांकां पुलीस अधिक्षकपदार बडटी मेळ्ळी. उपरांत तांची पुलीस प्रशिक्षण केंद्राचे प्राचार्य म्हूण नेमणूक केल्ली.

पुलीस म्हानिरिक्षक जसपाल सिंग हांणी एम. एससी, पिएचडी तशेंच एमबीए पदवी मेळयल्या. ते बुधवारा रातीं गोंयांत दाखल जातले. बिरेस्तारा सकाळीं ते पुलीस म्हासंचालकपदाचो ताबो घेतले, अशी म्हायती सुत्रांनी दिली.

# आडवेळ्या पावसाचो काजू, आंबो पिकांचेर परिणाम

## उत्पादनांत 80 टक्के उणाव जावपाची भिरांत

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**पणजी :** आडवेळ्या पावसाक लागून काजू, आंब्याच्या उत्पादनाचेर परिणाम जातलो. काजू पिकाचेर अंदू 80 टक्के परिणाम जावपाची भिरांत शेतकारांनी उक्तायल्या. तेच प्रमाण आंब्याच्या उत्पादनाचेर लेगीत आडवेळ्या पावसाचो परिणाम जातलो, अशें शेतकारांनी सांगलां.

मंगळारा सांजवेळार पुराय गोंयांत पावस पडलो. हाचे उपरांत बुधवारा सत्तरी तशेंच दिवचल म्हालांत परतून पावस पडलो. हेर वाठारांनी लेगीत पावसाची नोंद जाल्या. आडवेळ्या पावसाक लागून काजू तशेंच आंब्याच्या पिकांचें लुकसाण जालां. वाळपय आनी सांखळी वाठारांत आडवेळ्या पावसाचे प्रमाण चड आसा.

वाळपयचे नेस्टर रेंगल हे शेतकार काजू तशेंच आंब्याचे मोट्या प्रमाणांत उत्पादन करतात. उत्पन्न वाडचे म्हूण तरेकवार प्रयोग ते करतात. फाटल्या कांय दिसांनी तापमानांत बरीच वाड जाल्या. तापमान 34 ते 37 अंशा इतलें वाडलां. हाका लागून फळधारणा जावपी काजूच्या बियांचेर परिणाम जालो. आतां आडवेळ्या पावसाक लागून ताचेर परिणाम जाला. आवेर्तिनो मिरांडा हे आंब्याचो ठोक वेवसाय करतात. अंदू आडवेळ्या पावसाक लागून आंब्याचे उत्पादन उणें जातलें. ताचो आपल्या वेवसायाचेर परिणाम जातलो, अशें ताणें सांगलें.

अंदू उसरां मेरेन पावस पडलो. जानेवारी तशेंच फेब्रुवारींत आडवेळो पावस पडलो. आतां एप्रीलांत पावस पडटा. मंगळारा सांजे दमट जावन कांय वाठारांनी पावस पाडलो. वाळपय आनी सांखळे सगल्यांत चड पावस पडलो. आतां मेरेन वाळपय 31.6 मि.मि. जाल्यार सांखळे 24.9 मि.मि. आडवेळ्या पावसाची नोंद जाल्या.

# म्हापशें बाजारांत 10, 20 रुपयांची नाणीं चलनात, वेपारी संघटणेचो फुडाकार

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**म्हापशें:** 10 आनी 20 रुपयांचीं नाणीं चलनात हाडचे खातीर म्हापशें वेपारी संघटणेन फुडाकार घेतला. हे फुडें बाजारांत गिरायकां कडल्यान नाणी स्विकारचीं, असो उलो संघटणेन वेपाऱ्यांक मारला. तशेंच नाणी घेवपा संबंदान बँकांकूय पत्र बरोवपाचो थाराव संघटणेन घेतला.

गोंयांत दुकानकार तशेंच हेर वेवसायीक 10 आनी 20 रुपयांचीं नाणीं चलनांत घेनात. तशेंच बँके कडल्यानूय हीं नाणीं घेनात. ताका लागून हीं नाणीं आसून लेगीत ताचो कसलोच फायदो जायना. हे खातीर लोकां कडेन अशी नाणीं वापरा बगर पडून आसात.

10 रुपयांच्या चलनी नोटांचो उणाव आशिल्ल्यान वेपाऱ्यांक लुकसाण सोंसचें पडटा. गिरायकांकूय मनस्ताप सोंसचो पडटा. 10 रुपयांचीं नाणीं खूब प्रमाणांत उपलब्ध आसून लेगीत तीं फक्त गोंयांतूच चलनांत स्विकारिनात. ताका लागून म्हापशें वेपारी संघटणेन 10 आनी 20 रुपयांचीं नाणीं परतून चलनांत घेवचीं म्हूण फुडाकार घेतला.

बुधवारा संघटणेची बसका जाली. हाचे मुखार म्हापशें बाजारांतले सगळे वेपारी 10 आनी 20 रुपयांचीं नाणीं चलनांत स्विकारतले, असो थाराव मंजूर केलो. अध्यक्ष श्रीपाद सावंत हाणें हो प्रस्ताव मांडलो. ताका सगळ्यांनी मान्यताय दिली.

मोडच्या पयशांचे समस्येचेर हो एकसुरो उपाय आसा. गोंयांतल्या सगळ्या वेपाऱ्यांनी, रित्रा आनी बस येरादारी वेवसायिकांनी, गिरायकांनी तशेंच सर्वसामान्य नागरिकांनी 10 आनी 20 रुपयांच्या नाण्यांचो चलनांत स्विकार करचो. तांचो वापरूय व्हड प्रमाणांत करचो, असो उलो संघटणेन मारलो.

गोंयांतले बशींनी 10, 20 रुपयांचीं नाणीं घेनात. ताका लागून प्रवाशीय तीं नाणी घेवपाक तयार जायनात. कांय बँकूय गिरायकां कडल्यान नाणीं घेवपाक तयार आसतनात. हे विशीं भारतीय रिजर्व्ह बँक आनी सरकारा वतीन जनजागृती करची, अशी मागणी अध्यक्ष श्रीपाद सावंतान संघटणे वतीन केल्या.

राज्यांतल्या हेर वेपारी संघटणांनीय थळाव्या पांवड्याचेर हे संबंदान निर्णय घेवन हीं नाणीं चलनात स्विकारची, असो उलो संघटणेचो सचीव सिद्धेश रावत हाणें मारला.

# सूड घेवपाचें सत्र बंद करात

## संकल्प आमोणकार: भानगडी उजवाडाक हाडपाची शिटकावणी

पत्रकार परिशदेंत उलयतना आमदार संकल्प आमोणकार. कुशीक महेश नायक, शरद चोपडेंकार, अविनाश नायक, सचीन भगत. (अक्षंदा राणे)

### गरजेभायर कागाळी नाकात: आमोणकार

मुरगांव म्हालांतल्या सरकारी जमनीचेर खूबशीं बांदकामां बेकायदो बांदल्यांत. अजून लेगीत कांय कडेन बांदकामां चालू आसात. पूण मेजक्याच कांय जाणांक लक्ष्य करून तांकां बांदकामां बंद करपाच्यो नोटिसो मुरगांव पालिकेन दिल्यात. बांदकामाचे सुवातेचेर पुलीस येतात आनी कामगारांक ताब्यांत घेतात. मुरगांव नियोजन आनी विकास प्राधिकरण, घोळटे पंगड थंय रोखड्या रोखडे पावतात. सगळ्यांत मजेची गजाल म्हणल्यार कांय कागाळ करपी अज्ञात आसतात. जांणी आपल्या नांवान कागाळ केल्या तांणीच हे आदीं बेकायदा बांदकामां केल्यांत. कोणाच्या तरी चेपणा खाला येवन कागाळी करूं नाकात, त्रासांत पडटले, अशी शिटकावणी संकल्प आमोणकारान दिली.

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**वास्को:** बोगदा वाठारांत दोन कुटुंबांत जाल्ल्या झगड्यांक राजकी रंग दिवन आकांत पातळुवप वीज खात्यांतल्या कांय जाणांची पयस बदली करप, मेजक्याच कांय जाणांचें घराचें बांदकाम आडावप, ह्यो गजाली बंद करात. हार मानून घेवन सूड घेवपाचें सत्र बंद करात, असो उलो बुधवारा मुरगांवचो आमदार संकल्प आमोणकारान पत्रकार परिशदेंत मारलो. ह्या वेळार ताच्या वांगडा शरद चोपडेंकार, महेश नायक, सचीन भगत, अविनाश नायक हाजीर आशिल्लो.

वीज खात्यांतल्यो बदल्यो करचे खातीर वीज खात्यांतलो हेड कारकून परमवीर हळर्णकार तशेंच वजन आनी माप खात्यांतल्यो निरिक्षक लिलाधर कुमारजुवेंकार हे संबंदीत अधिकाऱ्याचेर चेपण हाडटात. तांणी हें बंद करचें, नाजाल्यार तांची नोकरी आनी जमीन घोटाळे उक्ताडार हाडचे पडटले, अशी शिटकावणी आमोणकारान दिली. मुख्यमंत्र्यान ह्या प्रकरणांत लक्ष दिवपाची गरज आसा, अशें ताणें सांगलें.

मुरगांव मतदारसंघांतल्या सगळ्यांक एकठांय हाडून आपल्याक मुरगांवची उदरगत करपाची आसा अशें सांगून ताणें हारिल्ल्या उमेदवारा कडल्यान आपल्या समर्थकांची कशी सतावणूक जाता, ताची म्हायती दिली. मुरगांव मतदारसंघ सोडून हेर 39 मतदारसंघांनी अश्यो सतावणुकेच्यो घडणुको घडूंक नात. रंगपचमी दिसा दोन कुटुंबां मदीं जाल्ल्या झगड्यांक हारिल्ल्या उमेदवाराक राजकी रंग दिलो. अजून लेगीत कांय जाणांचीं नांवां गुन्यांवांत घालीत आसात. हे घडणुके कडेन कसलोच संबंद ना, अशा चार सरकारी कर्मचाऱ्यांचीं नांवां पुलिसांनी नोंद करून घेतल्यात, अशें आमोणकारान सांगलें.

# लोकशायेंत नागरीक सर्वश्रेश्ठ

## राज्यपाल पिल्लई: काणकोणां किडनी दुयेतींक अर्थीक मजत

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**काणकोण:** खंयचोय मनीस खंयच्याय व्हड पदाचेर पावलो जाल्यार लेगीत लोकशायेंत देशाचो नागरीक होच सर्वश्रेश्ठ आसता. जनसेवा हीच ईश्वर सेवा अशें राज्यपाल पी. एस. श्रीधरन पिल्लई हांणी सांगलें.

राज्यपाल काणकोण भोंवडेर आयिल्ले, त्या वेळार ते पत्रकारां कडेन उलयताले. ह्या वेळार तांच्या वांगडा काणकोणचो आमदार तशेंच सभापती रमेश तवडकार हाजीर आशिल्लो.

स म्हयन्यां आदीं स्वयंपूर्ण भोंवडी सुरू केल्ली. आयज परतून कोणकोणाक भेट दिल्या. गोंयच्या गांवगिऱ्या वाठारांत गोंयची खरी वळख आनी संस्कृती आसा. श्रीस्थळ काणकोणच्या श्री मल्लिकार्जुन देवळांतली हस्तकारागिरी सोबीत आसा. आतां मेरेन किडनीच्या दुयेंस आशिल्ल्या सुमार 200 दुयेतींक डायलेसिसा खातीर अर्थीक मजत दिल्या, जाल्यार 100 समाजीक संस्थांक अर्थीक मजत दिल्या, अशें राज्यपाल पिल्लई हांणी सांगलें.

तवडकारान सांगलें, राज्यपाल पिल्लई हांणी समाजीक वावरांत आवड दाखयल्या. लोकांच्यो समस्या समजून घेवचे खातीर ते गांवगिऱ्या वाठारांनी भोंवडी करतात. गांवांत खूब समस्या आसात. तातूंतल्यो मेजक्योच समस्या विवीध सरपंचांनी मांडल्यात, अशें तवडकारान सांगलें. तशेंच गोंयची 100 टक्के उदरगत जावची हे खातीर लक्ष दितलों, अशेंय सांगलें.

सुरवेक पिल्लई हांणी श्रीस्थळच्या श्री मल्लिकार्जुन देवाचें घरकान्न आनी नाती सयत दर्शन घेतलें. ह्या वेळार देवस्थानाचे अस्तमते अध्यक्ष राजेंद्र देसाय, नवनिर्वाचीत अध्यक्ष विठोबा देसाय, सचीव राजेंद्र भगत, भांडारी सचिन देसाय, मुखत्यार प्रमोद नायक गांवकार, देवस्थानाचो आदलो अध्यक्ष अनिल नायक गांवकार, उल्हास देसाय, प्रशांत देसाय, भाजप मंडळ अध्यक्ष विशाल देसाय, दिवाकर पागी, नगरसेवक हेमंत नायक गांवकार, कुशवंत भगत, म्हाजन आनी हेर पदाधिकारी हाजीर आशिल्ले.

ह्या वेळार देवळांत लायतात त्या कौल प्रसादाच्या खांब्या विशीं म्हायतीय राज्यपालान घेतली. विठोबा देसाय आनी राजेंद्र देसाय हांणी राज्यपालाक येवकार दिलो. तेचवरी दिवली आनी यादस्तीक चिन्न भेट दिलें.

ते उपरांत श्रीस्थळ पंचायत सभाघरांत जाल्ले कार्यावळींत डायलेसीस घेवपी 15 दुयेतींक अर्थीक मजतीचे चॅक राज्यपाला हस्तुकीं भेटयले. ह्या वेळार माचयेर राज्यपालाचो सचीव मिहीर वर्धन, अतिरिक्त जिल्होधिकारी सुरेंद्र नायक, उपजिल्होधिकारी उदय प्रभुदेसाय, जिल्हो पंचायत वांगडी शाणू वेळीप, सरपंच धिल्लन नायक, खोलाची सरपंच पूर्णा नायक, आगोंदचो सरपंच बरसात नायक गांवकार, पंच देवेंद्र नायक, विद्या गायक, गणेश गांवकार, राजेश वेळीप हांणी सोयऱ्यांक फुलां तुरे भेटयले. ह्या वेळार सरपंच पूर्णा नायक, प्रमोद फळदेसाय, संजू नायक, राजेश वेळीप हांणी विवीध समस्यां विशीं राज्यपालाक निवेदन भेटयलें.

सरपंच धिल्लन नायकान येवकार दिलो. पंच दत्ता गांवकारान सुत्रसंचालन केलें. गणेश गांवकारान उपकार मानले.

श्रीस्थळाच्या श्री मल्लिकार्जुन देवळांतल्या कौल प्रसादाच्या खांब्या विशीं म्हायती घेतना राज्यपाल पी. एस. श्रीधरन पिल्लई. (संजय कोमरपंत)

### काँग्रेस कार्यकर्त्यांनी राज्यपालाक भेटयलें निवेदन

राज्यपाल पी. एस. श्रीधरन पिल्लई काणकोणां येवपाचे आसात, हे कळटकच काँग्रेस पक्षाचे काणकोण गट अध्यक्ष प्रलय भगत, क्लेस्टन व्हियेगस, मनेश नायक गांवकार आनी संदीप गांवकार हांणी राष्ट्रीय म्हामार्गा संबंदान राज्यपालाक श्रीस्थळ पंचायत सभाघरा भायर निवेदन दिलें. राज्यपालान तांचें म्हणणें आयकून घेतलें. मजगतीं, तें निवेदन आमी पंचायत सभाघरांत दिवपाक सोदताले, पूण पुलिसांनी आमकां आडायले आनी सभाघरांत वचपाक दिवंक ना. ताका लागून तें निवेदन सभाघरा भायर दिलें, अशें प्रलय भगत हाणें सांगलें.

दिवचल कदंबा बसस्टॅण्डाच्या वावराची पळोवणी करतना आमदार डॉ. चंद्रकांत शेट्ये. वांगडा संजय घाटे, नगराध्यक्ष कुंदन फळारी आनी हेर अधिकारी. (विशांत वझे)

# दिवचल बसस्टॅण्डा खातीर यत्न

## डॉ. चंद्रकांत शेट्ये: मूळ आराखड्यांत जातलो बदल

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**दिवचल:** दिवचल कदंबा बसस्टॅण्डाक चालना मेळची हे खातीर आपूण सेगीत फाटपुरवण करतलों. कंत्राटदार, अधिकाऱ्यांनी समाजीक बांदिलकी सांबाळून कामाक चालना दिवची. गरजे भायर वेळ काडीत बसूं नाकात तशेंच निमतां सांगीत रावूं नाकात. पावसाळ्या आदीं पोरणो बसस्टॅण्ड मोडून काम सुरू करचे खातीर ताकतिकेन पावलां उखलात. नियोजीत वेळांत काम पुराय करात, अशे निर्देश दिवचलचो आमदार डॉ. चंद्रकांत शेट्ये हाणें दिले.

दिवचल कदंब बसस्टॅण्डाच्या कामाक अजून लेगीत जाय तशी चालना मेळूंक ना. हे फाटभुंयेर बुधवारा आमदार डॉ. चंद्रकांत शेट्ये हाणें गोंय साधन सुविधा मंडळ अधिकारी तशेंच कदंबा अधिकाऱ्यां वांगडा पळोवणी केली आनी नियाळ घेतलो. ह्या वेळार ताच्या वांगडा नगराध्यक्ष कुंदन फळारी, गुंजन कोरगांवकार, कदंबाचे वरिष्ठ अधिकारी संजय घाटे, रुपेश गांवस, अमेय गांवकार, येरादारी अधिकारी राजेश नायक, समीर किनळकार, दुकानदार आनी हेर मानेस्त हाजीर आशिल्ले.

ह्या बसस्टॅण्डार जीं दुकानां आसात तीं स्थलांतरीत करपाची गरज आसा. ते खातीर जी शेड उबारतात ताका तीन म्हयने कळाव जाल्ल्यान हेर कामां आडावल्यांत. हीं कामां ताकतिकेन पुराय करून दुकानां स्थलांतरीत करून ते उपरांत पोरणो बसस्टॅण्ड मोडटले. मूळ आराखडो आसा तातूंत कांय बदल करपाच्यो सुचोवण्यो केल्यात, अशें डॉ. शेट्ये हाणें सांगलें.

# सावयवेऱ्यां जालें दोळे तपासणी शिबीर

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**सावयवेरें:** रोटरी क्लब म्हापशें, मुक्ता ऑप्टीशियन्स आनी पर्सिस्टंट फावंडेशन हांच्या जोडपालवान सावयवेऱ्यां एका दिसाचें फुकट दोळे तपासणी शिबीर जालें. ग्रामीण वाचपघराचे इमारतींत हें शिबीर आयोजीत केल्लें.

उक्तावण सुवाळ्याक आदलो जिल्हो पंचायत वांगडी मोहन वेरेंकार, कॉन्सस्टासिओ फर्नांडीस, उपसरपंच रूपा नायक, पंच महेश शिलकार, रोटरी क्लबाचो अध्यक्ष सिद्धेश कोटकार, सचीव विमलेश प्रभू देसाय, रणजीत नायक ,किशोर सारसोलकार, गिरीश भरणे, डॉ. देविका कामत हाजीर आशिल्ली. तांचे हस्तुकीं दिवली पेटोवन शिबिराचें उक्तावण जालें.

दोळ्यांची जतनाय कशी घेवची आनी दोळ्यांचें म्हत्व ह्या विशयाचेर डॉ. देविका कामत हांणी मार्गदर्शन केलें. सिद्धेश कोटकार, विमलेश प्रभुदेसाय, मोहन वेरेंकार आनी रूपा नायक हांणी क्लबाच्या वावरा विशीं विचार मांडले.

किशोर सरसोलकारान प्रास्तावीक केलें आनी येवकार दिलो. रणजीत नायकान उपकार मानले. ह्या शिबिरांत सुमार 200 परस अदीक दुयेंतींनी वांटो घेतलो.

दोळे तपासणी शिबिराचें उक्तावण करतना मोहन वेरेंकार. वांगडा डॉ. देविका कामत, रुपा नायक, महेश शिलकार आनी हेर.

## शिगांवां आयच्यान नाटकां

■ भांगरभूंय । खबरां मेज

**पणजी:** शिगांवच्या तुरीमरड वाठारांतल्या श्री आजोबा देवाचो सातवो वर्धापन दीस 7 एप्रीलाक मनयतले. ते निमतान श्री आजोबा नाट्य मंडळा वतीन 7 एप्रीलाक रातच्या 10 वरांचेर ‘अजब मोगाची गजब काणी’ नाटक सादर करतले. 8 एप्रीलाक ‘आत्या आत्या सून कर’ नाटक जातलें.

# लक्ष्मी गांवस अंतरली

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**केरी- सत्तरी:** हडुंचो कणो घोटेली नं. 1 केरी सत्तरीची लक्ष्मी विष्णू गांवस आपल्या घरांत अंतरली. तिचे फाटल्यान घरकार, दोन चले, एक लग्न करून दिल्ली चली, सुनो, नातरां असो परिवार आसा.

ती निवृत्त पुलीस विष्णू हाची घरकान्न, स्वामी विवेकानंद शिक्षण संस्थेच्या विवेकानंद ज्ञान मंदीर हायस्कुलाचो प्रभारी मुख्याध्यापक तशेंच लोकवेदाचो अभ्यासक गोपीनाथ गांवस आनी पुलीस उपनिरिक्षक पांडुरंग तशेंच काशी (सुर्ला कोठंबी) हांची आवय. तशेंच वाळपय हनुमान विद्यालयाची शिक्षिका नंदा (गायत्री) तशेंच सहाय्यक पुलीस उपनिरिक्षक शशिकला (पल्लवी) हांची मांय.

# गजेंद्र सिंगाचो परत जामीना खातीर अर्ज

**सोझा लोबो रेस्टॉरंट हल्लो प्रकरण**

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**पणजी :** कळंगूट दर्यादेगे लागसारच्या हँगओव्हर आनी सोझा लोबो रेस्टॉरंटाचेर हल्लो केल्ल्या प्रकरणांत मुखेल दुबावीत गजेंद्र सिंग ऊर्फ छोटून मुंबय उच्च न्यायालयाच्या गोंय खंडपीठांत दुसरे खेपे जामीन अर्ज दाखल केला. ह्या प्रकरणाची फुडली सुनावणी 12 एप्रीलाक जातली.

सोझा लोबो रेस्टॉरंटाचेर 28 डिसेंबर 2021 दिसा रातीं सुमार 60 ते 70 जाणांनी हल्लो करून तोडफोड केल्ली. ह्या प्रकरणांत कळंगूट पुलिसांनी मुखेल दुबावीत गजेंद्र सिंग हाचे सयत हेर दुबावितां आड गुन्यांव दाखल केल्लो.

उपरांत हातूंत हात आशिल्ल्या मुखेल दुबावीत गजेंद्र सिंग हाचे सयत दोगांक कळंगूट पुलिसांन पयली अटक केल्ली. उपरांत हें प्रकरण गुन्यांव फांट्या कडेन वर्ग केल्लें. त्या प्रमाण पुलीस अधिक्षक शोबित सक्सेना हांच्या मार्गदर्शना खाला पुलीस निरिक्षक राहुल परब आनी पंगडांतल्या हेर वांगड्यांनी दुबावितांक अटक केल्ली. उपरांत गजेंद्र सिंगान पणजेच्या उत्तर गोंय जिल्हा आनी सत्र न्यायालयांत दाखल केल्लो जामीन अर्ज भायर मारलो.

ह्या निवाड्याक दुबावितान मुंबय उच्च न्यायालयाच्या गोंय खंडपीठांत आव्हान दिल्लें. मजगतीं, ह्या प्रकरणांत गुन्यांव फांट्यान म्हापशेंच्या पयलो वर्ग न्यायालयांत 25 जाणां आड सुमार 500 पानांचें आरोपपत्र दाखल केल्ल्यान हो अर्ज फाटीं घेतलो. उपरांत दुबावीत सिंगान पणजेच्या उत्तर गोंय जिल्हा आनी सत्र न्यायालयांत दुसरे फावटीं जामीन अर्ज दाखल केल्लो. ह्या प्रकरणांत न्यायालयान दुबावीत सिंगाचो जामीन अर्ज भायर मारिल्लो. आतां सिंगान खंडपीठांत आव्हान दिलां आनी ताची फुडली सुनावणी 12 एप्रीलाक दवरल्या.

## अस्नोड्यां आयज ‘आत्मो’ नाटक

■ भांगरभूंय । खबरां मेज

**पणजी:** कळस उत्सवा निमतान अस्नोडें मयतें वाड्याचेर 7 एप्रीलाक वनदेवी बालनाट्य मंडळ ‘आत्मो’ नाटक सादर करतलें. महेश चंद्रकांत नायक हाणें बरयिल्लें नाटक तुशांत नागवेंकारान दिग्दर्शीत केलां.

ह्या नाटकांत सनी मापारी, प्रकाश पर्रीकार, तनीश नागवेंकार, भिकी सावळ, विशांत शिरगांवकार, अविनाश वायंगणकार, विशांत वायंगणकार, मयूर नार्वेकार, सुबोध शिरोडकार हे भुमिका साकार करतले.

पार्श्वसंगीत तुषार शिरगांवकार, उजवाड येवजण दीपक बर्वे आनी नेपथ्य दीपज्योती रंगमंच, अस्नोडें हांचें आसतलें. श्री शांतादुर्गा वनदेवी राष्ट्रोळीच्या मांटवांत रातच्या 10 वरांचेर नाटकाक सुरवात जातली, अशें आयोजकांनी कळयलां.

शांतादुर्गेचो कळस 2 एप्रीलाक गांवांत भोंवपा खातीर भायर सरला. 7 एप्रीलाक तो मयते वाड्यार राबित्याक आसतलो. ते निमतान ह्या नाटकाचें आयोजन केलां. फाल्यां कळस मंदिरांत वतलो.

## श्री औदुंबर दत्तात्रेय देवस्थानाचो वर्धापन दीस सुवाळो

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**म्हापशें :** वळवाडो, आसगांवच्या श्री औदुंबर दत्तात्रेय देवस्थानाचो 14 वो प्राणप्रतिष्ठापना वर्धापन दीस सुवाळो आयज सावन सुरू जाला. आयतारा, 10 एप्रील मेरेन तो चलतलो. आयज सकाळ सावन साईराज पेडणेंकार हांचे येजमानके खाला विंगडविंगड धर्मीक विधी जाले. दनपारां महाआरती, तीर्थप्रसाद आनी महाप्रसाद जालो. सांजवेळा 6.30 वरांचेर सवायशिणींचे वतीन जोडव्याची कार्यावळ जाली. सांजवेळा 7 वरांचेर गोंयांतल्या नामनेच्या कलाकारांची 'सप्तसूर' ही संगिताची कार्यावळ जाली.

फाल्यां, बिरेस्तारा 7 एप्रीलाक दनपारां 3 वरांचेर बसुराज मडिवाल हांच्या येजमानपदा खाला वर्सुकीं श्री सत्यनारायण महापुजा जातली. आरती, तीर्थप्रसाद आनी महाप्रसाद जातलो. सांजवेळा 7 वरांचेर थळाव्या कलाकारांची भजनाची कार्यावळ जातली. उपरांत पावणी आनी तीर्थप्रसाद जातलो.

शुक्रारा, 8 एप्रीलाक सांजवेळा 7 वरांचेर श्री औदुंबर दत्तात्रेय तरूण हौशी नाट्य मंडळाचे वतीन 'डरने का नाय' हें कोंकणी नाटक जातलें. शेनवारा, 9 एप्रीलाक सांजवेळा 7 वरांचेर औदुंबर दत्तात्रेय महिला नाट्य मंडळाचे वतीन 'आमी बायलो बिनदास' हें कोंकणी नाटक जातलें.

आयतारा, 10 एप्रीलाक सांजवेळा ७ वरांचेर 'पती सगले उचापती' हें नाटक जावन सुवाळ्याची सांगता जातली.

## बांदांत आयज लघुरूद्र

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**केरी-सत्तरी :** श्री देव रवळनाथ, भवानी, ब्राह्मण, मुखेल पंचायतन देवस्थान, बांदा सावंतवाडीचे देवतेचे आज्ञे प्रमाण फाल्यां बिरेस्तारा, 7 एप्रीलाक सकाळीं लघुरूद्र करतले.

उपरांत 12 वरांचेर महाआरती जातली. त्या दिसा अंधार उबे करतले. म्हाजन, काणेकर, मुंगी, पिलगीने हांणी सगल्यांनी चुकनासतना हाजीर रावचें. उपरांत महाप्रसाद जातलो. भाविकांनी हाचो लाव घेवचो अशें म्हाजन, काणेकर, मुंगी देवस्थान कमिटीन कळयलां.

# गोरवांची बेकायदो येरादारी, दोगांक अटक

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**पणजी:** गोरवांची सतावणूक करून तांची बेकायदो येरादारी केल्ल्या प्रकरणांत पोरणें गोंय पुलिसांनी गुन्यांव दाखल केला. ह्या प्रकरणांत तबरेज चौधरी आनी वनीश नेलातुरी हांकां अटक केल्या. तांकां बुधवारा सशर्त जामिनाचेर सोडले.

पोरणें गोंय पुलिसांनी दिल्ले म्हायती प्रमाण, ह्या प्रकरणांत संजय नायकान कागाळ दाखल केल्या. कागाळे प्रमाण कागाळदार मंगळारा रातच्या 2.30 वरांच्या सुमाराक इंदिरानगर चिंबला दुबावितांनी एका बैलाक मारून जखमी केलो. ते उपरांत ताका रिक्षांत घालून येरादारी करपाचो यत्न करतना कागाळदारान ताका रंगेहात धरलो, अशें नमूद केलां. हाची दखल घेवन पोरणें गोंय पुलीस निरिक्षक दिनेश गडेकाराच्या मार्गदर्शना खाला पुलीस उपनिरिक्षक करिण नायकान दुबावीत तबरेज चौधरी, वनीश नेलातुरी हाचे सयत रिक्षा चालका आड गुन्यांव दाखल केलो. ते उपरांत पुलिसांनी दुबावितांक अटक केली तशेंच रिक्षा जप्त केली आनी बैलाक गोशाळेंत धाडलो.

# चिखलेच्या पंचाची अपात्रताय याचिका

## 15 मे आदीं निकालांत काडपाचो आदेश

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**पणजी:** चिखलीची पंच कमला प्रसाद यादव हिचे आड दाखल केल्ली अपात्रताय याचिका 15 मे 2022 पयलीं निकालात काडात, असो आदेश मुंबय उच्च न्यायालयाच्या गोंय खंडपिठान मुरगांव गट विकास अधिकाऱ्याक दिला. हे विशींचो निवाडो न्या. महेश सोनक आनी न्या. आर. एन. लड्ढा हांणी बुधवारा जारी केला.

ह्या प्रकरणांत एडवीन मास्कोरेन्हास हाणें खंडपिठांत 2018 त याचिका दाखल केल्या. तातूंत ताणें राज्य सरकार, कमला प्रसाद यादव आनी चिखली पंचायतीच्या सचिवाक प्रतिवादी केल्यात. प्रतिवादी यादवान पंच आसतना आपलेच जमनीची उदरगत करचे खातीर नाहरकत दाखलो दिवपा खातीर आपयिल्ले बसकेंत वांटो घेतिल्लो, असो दावो याचिकेंत केला. ताका लागून ताका पंचायत राज कायद्या खाला अपात्र करपाची मागणी केल्ली.



# लिवर जपात, तंदुरुस्त रावात

यकृत (लिवर) हो फुटबॉलाच्या आकाराचो एक अवयव, जो पोटाचे उजवे वटेन बरगडे खाला आसता. लिवर हें अन्न पचोवपा खातीर आनी कुडींतले विखारी जिवन भायर उडोवपाक गरजेचें आसता. लिवराचो रोग बडीचो आसपाक शकता वा विशाणू आनी आल्कोलाचो वापर वाडल्यार तो जाता. कारण सोरो लिवराक लुकसाण करता. मनीस चड जाड आसल्यारुय लिवराची हानी जाता. ताका लुकसाण जाल्यार दाग पडटात (सिरोसीस) आनी मागीर लिवर निकामी जावपाक शकता. मरता काय उरता अशी स्थिती निर्माण जाता.






**लिवराचें काम कितें?**

1. संक्रमण आनी दुयेंसां कडेन लढो
2. रक्तांतलें साकरेचें प्रमाण योग्य दवरप
3. कुडींतले विखारी जिनस भायर उडोवप
4. कोलेस्टेरॉलाची पातळी नियंत्रित करप
5. रक्त गोठोवपाक मजत करप (घावो जातकच रक्त व्हांवप बंद जाता)
6. पित्त (बायल्स) सोडप (तें चरबीचें विघटन करपी आनी पचनाक मजत करपी द्रव)

**लिवराच्या रोगाचीं कारणां कितें?**

लिवराचे वेगवेगळे रोग आसात, जे तांच्या लक्षणां वयल्यान वळखूपाक मेळटात. सामान्य लीवर रोग, जे भिरांकुळ थारूं येतात :

1) व्हायरल हेपेटायटीस,हें भारतांतलें कामिणीचें सगल्यांत सामान्य कारण. हें हेपेटायटीस ए, ई, बी आनी सी सारक्या विविध प्रकाराच्या व्हायरल इन्फेक्शनाक लागून जाता. ताचें निदान रक्ताची चाचणी करून करतात.

२) अल्कोहोलिक हिपॅटायटीस - अल्कोहोलाच्या सेवनान, म्हणल्यार भरपूर सोरो पियेत जाल्यार लिवर इबाडटा.

3) लिवराचो सिरोसिस : हें तीव्र हिपॅटायटीस बी आनी सी संसर्ग आनी सोरो पियेवप आनी मनीस चड जाड आसल्यार जाता.

4) नॉन-अल्कोहोलिक फॅटी लिव्हर रोग - हे नाका जाल्लें खाल्यार जाता. खा खा केल्यार लिवरांत चरबी वाडता. हाचेर उपचार करूंक ना जाल्यार लिवराचो सिरोसिस, काळजाचो आताक आनी आरीचें दुयेंस जावं येता.

5) आपप्रतिकार लिवर रोग

6) लिवराचो कॅन्सर

7) आनुवंशिक यकृत रोग

**लिवर रोगाचीं लक्षणां कितें?**

1. कात आनी दोळे हळडुवे दिसतात (कामीण)
2. पोटदुखी आनी सूज
3. पाय/आनी घोट्याला सूज
4. आंगाक खाज सुटप
5. मुताचो रंग गडद
6. विश्ठेचो रंग फिकट वा रक्ताळ वा डांबराच्या रंगाची विश्ठा
7. खर थकवो
8. मळमळ वा ओंकारी
9. भूक उणी जावप
10. रोखडोच घावो जावपाची भिरांत

**लिवर निरोगी कशें दवरप?**

अ) निरोगी आनी संतुळीत आहार घेयात आनी तुमचें लिवर निरोगी दवरपाक नेमान व्यायाम करात.

ब) सोरो, सिगार, विडी, घुंवळे वखदां पसून पयस रावात.

सी) कसलेंय वखद सुरू करचे पयलीं दोतोरांचो सल्लो घेयात.

ड) विखरी रसायनां पसून स्वताक जपात : एरोसोल आनी नितळसाणेची उत्पादनां कीटकनाशकां हे रसायनां पेशींक इजा करूं शकतात.

इ) तुमचें वजन नियंत्रित दवरात : लठ्ठपणाक लागून नॉन-अल्कोहोलिक फॅटी लिव्हर रोग जावपाक शकता.

ई) वासिनीकरण करात. हिपॅटायटीसा आड वासीन घेयात.

**- डॉ. पंचलिंगप्पा बेटगेरी**
एमडी, लेकव्ह्यू गोवावेस हॉस्पिटल, बेळगांवी



# काळजाचीं दुयेंसां वाडटात

*आयज संवसारीक भलायकी दीस. दरेकल्यान आपले भलायकेची जतनाय घेवपाक जाय. ह्या दिसा निमतान विशेश लेख.*

बिगर साथीच्या रोगां मदीं चड करून काळीज आनी रक्तांच्या शिरां विशीं रोग (सीव्हीडी),साबार कॅन्सर, चड तेंपाचीं स्वासाचीं दुयेंसां, गोडें मूत आनी अशाच गजालींचो आसपाव जाता, जातूंत एकूण मरणां मदले सुमार 60 टक्के मरणां जातात. सध्या खर कोरोनरी सिंड्रोम आनी एसटी- एलिव्हेशन मायोकार्डियल इन्फेक्शनाचे (MI) चे चड दुयेंतीं आमच्या देशांत आसात. हेर सीव्हीडी मदली सगल्यांत चड समस्या आसा ती हायपरटेन्सिव्ह काळजाचें दुयेंस.

सामान्य हृदयरोग खंयचे? तर ते जावन आसात, उच्च रक्तदाब (हाय ब्लड प्रेशर), काळजाच्या शिरांचें विकार, काळीज बंद पडप, स्वासाचे विकार. काळजाचो आताक म्हणजे कितें? हाका कोरोनरी आर्टरी डिसीज अशेंय म्हणटात. प्लेक, विच्छेदन, एम्बोलिझमाक लागून शिरांनी आडमेळीं निर्माण जाता. दुयेंती काळजांत बरें ना म्हणटा. दावो हात दुखपाक लागता. घाम येता. काळजाचो आताक कोणाक येता? चड करून तो

गोडेंमूत, उच्च रक्तदाब, किडनीचीं दुयेंसां, हायपोथायरॉईडीझम, जाण्टी व्यक्ती, उच्च कोलेस्ट्रॉल आशिल्ल्या लोकांक येता.

भारतीय लोकसंख्येचो हुस्को कितें? आमचे लोकसंख्येंत 30 वर्सां वयल्या तरणाट्यांक काळजाचें दुयेंस, आताक येतात. आदल्या काळार अशें नाशिल्लें. हो खरो हुस्को. काळजाचो आताक टाळपाक येता? हय. ते खातीर लोकांनी पुश्टिक अन्न खावचें, तेलकट जिनस टाळचे, नेमान व्यायाम करचो, नेमान भलायकेची तपासणी करची. हार्ट फेल्युअर म्हणजे कितें, लक्षणां कसलीं आनी उपचार कितें आसात? काळजाची हालचाल उणी जाल्ल्यान पुलमावांत उदक जमा जाता. धाप लागता, काम केल्यार खरस येता, पांय सुजतात, पोटा सकयल दुखता. काळजाचें काम ल्हवू वा उणें कित्याक जालां, तीं कारणां सोदन उपचार करप गरजेचें.

उच्च रक्तदाब वा हायपर टेन्शन म्हणजे कितें आनी ताचेर उपचार कसले? BP > 140/90 mm Hg आशिल्ले व्यक्तीला उच्च रक्तदाब प्रतिबंधक वखदांची गरज आसता. संधिवात हृदयरोग म्हणल्यार कितें? ताळ्यांतलो पयलीं केन्ना तरी जाल्लो संसर्ग काळजाच्या झडपांनी (वॉल्व) अडथळो वा गळती निर्माण करता. संधिवाताचा हृदयरोग कसो सोदपाचो? दुयेंती, खास करून मध्यम पिरायेच्या बायलांक धडधडप, धाप लागप, थकप अशीं लक्षणा दिसतात. एरिदमिक डिसऑर्डर म्हणजे कितें आनी तो कसो वळखप? काळजाची गती वाडप वा उणी जाल्ले दुयेंती. दोळ्यां मुखार काळोख येता, धडधडटा, घुंवळ येता, अशी दुयेंतींची कागाळ आसता. काळजाच्या दुयेंसांचेर दुयेंतीक उणेच त्रास जातले अशे तरेन शस्त्रक्रिया करपाक मेळटा.



**- डॉ. लोकनाथ मडगंन्नावर,**
एमडी, लेकव्ह्यू गोवावेस हॉस्पिटल, बेळगांवी



# गोडेंमूत : जाण्ट्यांची जतनाय घेवची

आमचो देश भलायकी मळा सयत सगल्या मळांचेर उदरगत करीत आसतनाच 65 वर्सां पिराये वयल्या जाण्ट्यांचो आंकडो वाडत आसा. 65 वर्सां परस चड पिरायेच्या उण्यात 20 टक्के नागरिकांक गोडेंमूत आसा. हो आंकडो वाडत आसा. हें दुयेंस जाल्ल्या लोकांक अवेळार मरण, अपंगुळपण, उच्च रक्तदाब, कोरेनरी काळजा दुयेंस, आर हे सारकीं दुयेंसा चड आसात. कांयजाणांक याद उरना, मुतताना त्रास जातात, पडल्यार दुखापत जाताच, सतत दुखता.

जाण्ट्या गोडेंमूत दुयेंतीची घुस्पागोंळाची तपासणीय वैयक्तीक पद्दतीन करची पडटा. कारण तांकां निर्शेवणी येवपाची भिरांत आसता. गोडेंमूत जाल्ल्यांक कसलें ना कसलें दुयेंस आसता. तांची जतनाय घेतना हाची खबरदारी घेवपाक जाय. गोडेंमूत मेल्तिस ही जाण्ट्यांची एक मुखेल भलायकी समस्या. रक्तांतलें ग्लुकोज (ग्लायसेमिक) नियंत्रीत उरप हें गोडेंमुताच्या वेवस्थापना खातीर गरजेचें. कारण तें वाडप वा उणें जावप हाचो गोडेंमूत संबंदीच्या गुंतागुंतीत वाड जावपा कडेन संबंद आसता.

डॉनर मार्गदर्शक तत्वां रक्तांतल्या ग्लुकोजाचे पातळेचें निरीक्षण करप, वखदां सयत दीर्घकाळाची जतनाय घेवप, आहार हाचे विशीं शिथीलीकरण करपाक परवानगी दिला. ताका लागून इन्सुलीन नासप, किडनीचे रोग आसप ह्या कारणांक लागून रक्तांतली साकरेचो (हायपोग्लाईसेमिया) धोको आशिल्ल्या जाण्ट्यांक बरी भलायकी मेळटा. तांच्या जिविताची गुणवत्ता सुदारता.

ज्येश्ठ नागरिकांच्यो बदलपी गरजो पुराय करपाक ग्लायसेमिक लक्ष्यांचें रुपांतर करप गरजेचें. ह्या दुयेंसान वखदांचो खर्च वाडूं येता.



निश्कर्श : टायप 2 गोडेंमूत, वैयक्तिक जतनाय आनी उपचार हांचें एकत्रीकरण गरजेचें. तांकां सुशेग मेळपाक जाय. शाळेंतल्या भुरग्यां कडेन उलोवन जाण्टे व्यक्तीक पोसको घेवया अशें ताका विचार. तशेंच गोडेंमूत आशिल्ल्या जाण्ट्यांक आनंदी जीण दिवप.

**- डॉ. एम. व्ही. जाली**
वैजकी संचालक, मुख्य कार्यकारी अधिकारी
केएलईएस डॉ. प्रभाकर कोरे हॉस्पिटल, बेळगांवी

# सायबर गुन्यांवांचें जाळें

विज्ञान, तंत्रज्ञानाक लागून मनीसजातीक फायदे जाल्यात. मात, ताचे गैरफायदे घेवपी चड आसात. अणुबॉम्ब हें एकूच उदाहरण पुरो. मोबायल फोन हें फाटल्या 25 वर्सांच्या काळांत देशभर पातळिल्लें नवें तंत्रज्ञान. तातूंत उदरगत जायत गेली आनी गैरफायदे घेवपी हिस्पाभायर वाडले. लोकांक लुटपाच्यो नव्यो तरा तांणी सोदून काडल्यो. तांचेर नियंत्रण दवरपाक सायबर कायदे आसात खरे, पूण गुन्यांवांचो आंवाठ व्हड आशिल्ल्यान नियंत्रण दवरप शक्य जावंक ना. हालींच उत्तर गोंयांतले एके 35 वर्सांचे लग्न जाल्ले बायलेक हें तंत्रज्ञान बरेंच म्हारग पडलां. फेसबुका वयल्या इश्टान इश्टागतीचें नातें जोडून तिका बुरसो व्हिडियो तयार करपाक लायलो आनी उपरांत तो व्हायरल करपाची धमकी दिवन तिचे कडल्यान खंडणी घेवपाचो यत्न केलो. पुलिसांनी मध्य प्रदेशांतल्या ह्या तरणाट्याक अटक केल्या. अश्यो कितल्योशोच बायलो, दादले देशभरांत आसतले. सांवज फारोवपाक लिपून बशिल्ले काय बुकले, माजरां तांचे इश्टागतीचो गैरफायदोय घेता आसतलीं. खास करून बायलांनी असल्या हांयसाक बळी पडपाक जायना. पडल्यार रोखडीच कागाळ करपाक जाय. सायबर गुन्यांवाचे फांटे दरेका राज्यांत आसात. तांणीय चड सक्रीय जावपाक जाय.

सायबर गुन्यांवांक ना अंत ना पार. साबार ॲपां, हॅकर, गुन्यांवकार नेटिझन्सांचो खाजगी डाटा चोरतात. कांय कंपनींय तो विकतात. आपल्या वेवसायाचे नदरेन चडांत चड लोकां मेरेन पावपाक तो वापरपीय लोक आसात. एक वेळ हें भोगसू येत. मात न्हय हे गुन्यांव. डाटा वापरून तुमचे पयशे चोरपी, टॅक्सांत, भलायकी विम्यांत गैरवेव्हार करपी लोक आसात. तुमी सद्दां वापरतात, त्या पेटीएम, गुगल पे अशा ॲपां सारकें दिसपी हुबेहुब ॲप तयार करून ऑनलायन वेव्हारा वरवीं तुमचें बँक खातें रिकामी करपी गुन्यांवकार आसात. अश्लील कारणां खातीर तुमचे फोटो वापरपी आसात. ते व्हायरल करपाची धमकी दिवन लाख, दोन लाख रुपया मागपी आसात. तेन्ना सोशल मिडिया वा हेर ॲपां वापरप्यांनी सादूर रावंक जाय. बुरशे फोटो मागपी (आतां तोंड दसोवन ते तयारुय करपाक मेळटात.), पयश्यांची मागणी करपी संदेश आयले वा चॅटिंगां मजगतीं कोणे तशी मागणी केली जाल्यार सट करून शिटूक जावपाचो हो काळ. पूण जायते दादले, बायलो मोनेळ पडिल्ले भशेन व्हांवत वतात आनी तो, ती सांगता तशें करतात. मागीर पश्चाताप करून फायदो कितें? अश्लील शेरे मारप, मानसिक त्रास जाता अशे पोस्ट घालप, ब्लॅकमेल करप, धमक्यो दिवप, अर्थिक फटवणूक... कसले गुन्यांव जायनात ते सांगात. सोशल मिडियाचेर अनवळखी लोकांची इश्टागत स्विकारची न्हय, अशें पुलीस म्हणटात. मात आयकता कोण? इश्टांचो, लायक्स, शॅर, रिट्वीटांचो आंकडो वाडोवपाक आयचे नेटिझन्स खंयच्याय थराक वचपाक शकतात. स्वताची बारीकसारीक वैयक्तिक म्हायती, खंय जेवता, फिरपाक गेला तें पसून सोशल मिडियाच्या उश्टवाऱ्यार सोडपी लोक आसात. नेमको हाचोच गैरफायदो सायबर गुन्यांवकार घेतात.

> **आमच्या देशांत मोबायल फोन वापरप्यांचो आंकडो वाडला. सोशल मिडिया धवळपी वाडल्यात, गुन्यांवांचो आंकडोय चडावत आसा. देशांत 2017 वर्सा 21,796 सायब गुन्यांव जाल्ले. आयज तांचो आंकडो.....**

आमच्या देशांत मोबायल फोन वापरप्यांचो आंकडो करोडांनी. सोशल मिडिया धवळपी वाडल्यात, तशेच गुन्यांवांचो आंकडोय चडावत आसा. देशांत 2017 वर्सा 21,796 सायब गुन्यांव जाल्ले. अर्थांत हे नोंद जाल्ले. कागाळ जावंक नाशिल्लीं प्रकरणां हाचे परस चार पटींनी आसतलीं. 2018 त तो वाडून 27,248 जालो आनी दोन वर्सां पयलीं तो 50 हजारांचेर पाविल्लो. आतां लाखाक तेंकला आसतलो. फक्त अर्थिक गुन्यांवूच न्हय, तर लोकांची दिशाभूल करप, तांचे मदीं दुस्वास पातळावप हे पसून सायबर गुन्यांवूच. तांचेर कोण कारवाय करता? ती चुकूनच जाता. केन्नाय. उद्देग, वेवसाय वाडोवन जिवितांत थीरताय हाडपाक सोशल मिडिया वापरूं येता. मात ताचो वापर नाका त्या कामां खातीर जाता. सायबर गुन्यांव कायदे केन्ना केल्ले आनी तातूंत दुरुस्ती बी जाल्या व्हय? जावंक ना जाल्यार कित्याक? हे कायदे चडांत चड खर केले बगर सायबर गुन्यांव उणे जायतशे दिसनात. सरकारान हें मनार घेवचें.

## मसलत

### रिणा काडात, पूण....

भारतांतल्या साबार राज्यांनी उदरगतीच्या कामां खातीर रिणां काडप चालू आसता. नेमकें कितलें रीण काडलां आनी तिजोरेंत नेमको कितलो पयसो आसा, हें सामान्य मनशाक खबर नासता. रिणां काडप कांय वेळा गरजेचें आसता. पूण, ताचो अतिरेक जाल्यार राज्याची अर्थवेवस्था लवंडूंक शकता. देशाची आंकडेवारी पळयल्यार महाराष्ट्र हें सगल्यांत चड रीण घेवपी राज्य थारलां. फाटल्या चार वर्सांच्या काळांत महाराष्ट्राचें रीण घेवपाचें प्रमाण 470 टक्क्यांनी वाडलां.

देशांतल्या 31 राज्यांनी 2018-19 ह्या अर्थिक वर्सांत 5 लाख 62 हजार कोटी इतलें रीण घेतिल्लें. 2021-22 च्या काळांत होच आंकडो 10 लाख 60 हजार कोटींचेर पावला. केंद्र सरकार म्हणटा, ह्या सगल्या राज्यांनी अर्थसंकल्प वेवस्थापन कायद्याक पाळो दिला. विशेश म्हणल्यार उत्तर प्रदेशाचें रिणाचें प्रमाण 50 टक्के इतलें आसा. केंद्रीय महालेखापालान आपल्या अहवालांत गुजरात सरकाराक रिणाच्या सांपळ्यांत तुमी आडकपाक शकतात, अशी शिटकावणी दिल्या. तांणी नव्यान रिण घेतना आनी तें फारीक करतना विचार करून धोरण आंखपाक जाय, अशेंय तांणी म्हणलां. फुडल्या सात वर्सांच्या काळांत गुजरात सरकाराक वट्ट रिणांतलें 61 टक्के रिण फारीक करचे पडटलें. ताचो राज्याचे येणावळीचेर ताण पडटलो. गुजराता प्रमाण हेर राज्यांचीय रिणाची स्थिती आसपाक शकता.

आतां श्रीलंकेचेंच पळयात. रिणाचें योग्य वेवस्थापन नाशिल्ल्यान आनी अर्थवेवस्थे कडेन खास लक्ष दिवंक नाशिल्ल्यान त्या देशांची अर्थवेवस्था कोसळ्ळ्या. लोकांचे हाल जाल्यात. इंधन, धान्य, कड्डुण हांचें मोल मळबाक तेंकलां. जांचे कडेन पयशे आसात, तांकां टंचाय निर्माण जाल्ल्यान कांय विकत घेवपाक मेळना. तांकां हेवटेन तेवटेन हेडचें पडटा. सांगपाचें म्हणल्यार रीण घेतना तें योग्य रितीन फारीक करपाची शक्त आनी नियोजन आसपाक जाय. नाजाल्यार राज्यां उदरगती पसून पयस वतलीं आनी अर्थवेवस्था कोसळटली.

**शांताराम वाघ**
96234 525 53

# सरकारी वावराक नेट जाय

सरकारांतल्या मंत्र्यांक खातीं मेळ्ळीं, मंत्र्यांचे कचेरेतलें अधिकारी, कर्मचाऱ्यांच्यो बदल्यो, कामाचें वाटप फुडले प्रक्रियेत जातलें. मंत्री अणभवी आसले तरी नवीं खातीं मेळ्ळ्यार मात्सो अभ्यास जाय पडटलोच. फाटीं कितें जालां, कितें उरलां ही बारीकसाण घेवन फुडें सरपाक जायच, ते भायर अभ्यासाच्या उपरांत घोषणा करपय समा जातलें. अर्थसंकल्पात कराचें वजें, आज ना म्हळ्ळें तरी तीन म्हयन्यां उपरांत जावपी विधानसभा अधिवेशनात दुडू मेळोवपा पासत कर विधेयकां सरकार मांडचेंच ना, अशें न्हय. कांय पेझाद खातीं म्हण्टात तीं पोकीं जाल्लीं आसतलीं, तांचें मूळय सोदून मेळचेंना , मूळ सोदता म्हणसर फुडल्यो वेंचणुको येवच्योच ना म्हणूक येता व्हय?

समाजाच्या विंगड विंगड घटकां खातीर आशिल्ल्या येवजण्याचें पयशे पावंकच ना, तातूंत बऱ्योच येवजण्यो बँकेच्या प्रक्रियेतल्यान जातात, पूण तातूंत सोंपेंपणा आसा व्हय? बँकांचे विलीनीकरण, खासगीकरण तशेंच घोटाळ्यांच्यो खबरो आयकतच सादारण मनीस घुस्मट्टा आनी ताचो बँके वयलो विस्वासय सोंपता. जशी सरकारांत तशी बँकेंतय कंत्राटार कामगारांची भरती जाता आनी अस्थिरतायेची तलवार मानेर आशिल्ल्यान सेवा पावोवपांतय फाटीं फुडें जाता. 100 टक्के डिजिटलाय-जेशनाची मोख केंद्र, राज्य सरकारा मुखार आसली तरी ती केन्ना पुराय जातली हें कोण सांगूक शकना. आमचो भारत देश 2020 मेरेन महासत्ते कडेन पावतलो अशें सपन विज्ञानीक डॉ.रघुनाथबाब माशेलकार हांणी पळयल्लें, तशे विचारय ताणी गोंयांत ‘ फेस्टीव्हल ऑफ आयडियाज' कार्यावळींतल्यान लागीं- लागीं धा वर्सां आदीं परगटायल्ले. मात्सो कळाव जाला, पूण तरी ते वाटेर आमी पावल्यात अशें दिसूंक लागलां. आडमेळीं आसतलींच, पूण फुडें वचप थांबूक शकना.

केन्ना गोंय कसिनोची राजधानी करपाची तर केन्ना पणजी संस्कृतायेचे केंद्र करपाच्यो घोशणा जातात, विकास प्रक्रियेचो तो वांटो आसलो तरी कांय वेळार घोशणाची कार्यवाही करपाकच वर्सां वतात. कुळ- मुंडकारांचे खटले वर्सान वर्स पडून कित्याक उरल्यात? कुशळकायेन हाताळपी मनीसबळ ना म्हणून ? येणावळ मंत्री आतानासियो उर्फ बाबुश मोन्सेरात हांणी खटले तुंबल्यात कित्याक, तें सोदल्यार केल्ली घोषणा चालीक लावप बेगीन जातलें.

शार उदरगत, येणावळ, शिक्षण, नगर नियोजन, कोयर वेवस्थापन, म्हायती तंत्रज्ञान, भलायकी, समाज कल्याण खातें, पंचायत, बायलां आनी भुरग्यां कल्याण खात्यांतल्यान कांय भौशीक सेवा मेळटात. कांय सेवा, तांची प्रक्रिया ऑनलायन जाता, पूण वेळार लाव मेळटा? दाखले कळाव जायनासतना मेळपाक जाय, परतून परतून समेस्तांक फावटी घालूंक लागच्यो न्हय, अशी वेवस्था आसची. आदले मुख्यमंत्री मनोहर पर्रीकार हांणी ‘ गोवा (रायट ऑफ सिटीझन्स टू टायम बाऊंड डेलिवरी ऑफ पब्लिक सर्विसेस ) ॲक्ट २०१३ कायदो केल्लो, सरकारी सेवेंत शिस्त हाडपी ह्या कायद्याची पुराय अंमलबजावणी जावप गरजेचें, तातूंतल्यान सरकारी वावराक नेट येतलो.

प्रत्येक खात्यांत ह्या कायद्या खाला अधिकार दिवपी सक्षम यंत्रणा जाय. राजकारण हो आयज दर एके यंत्रणेचो भाग जाला, तशें जाल्यार खंयचीय यंत्रणा मोडूंक वेळ लागना. ते खातीर यंत्रणेची बांदावळ करतना जतनाय सरकार घेतलें व्हय? तातूंतल्यान सरकार बळगें मेळटलें, प्रशासनय नितळ जावपाक दीका कित्याक दिसची न्हय? पर्यटना परस माहिती तंत्रज्ञान खातें आयचे, फुडले पिळगेकच न्हय जाल्यार राज्याच्या अर्थकारणा खातीर म्हत्त्वाचेंच, इलेक्ट्रॉनिक, टेलेकम्युनिकेशनाची जोड त्याच खात्याक मेळचीच, तातूंतय भौसांचे हीत आसा. हेर

कांय सरकारी खात्यांची मांडावळ बदलपा खातीर अभ्यास जावचो, मंत्र्यांक खातीं दितना तांची संतुळीत वेवस्था सांबाळपी दुसरीं खातीं एकाच मंत्र्याकडेन आसल्यार खात्यांच्या कामकाजाकय घटाय मेळटा. देखीक कोयराचें वेवस्थापन करपी खातें आनी शार उदरगत खात्याचें

## होमखण

> **नव्या देवळां, सभाघरां परस कुशळकाय आशिल्लें मनीसबळ वर्सा भितर बांदल्यार गोंयची मानसिक भलायकी सुदारतली, मनीसजीणय संपन्न जातली, सरकारी वावर नेटान सुरू जावपा खातीर तीच वाट आसची.**

घेवया. कोयर काडप आनी कोयराचें वेवस्थापन करप एकाच मंत्र्या कडेन दिल्यार भोव बरें जावपाचें. पंचायत, गांवगिऱ्या वाठारांतली उदरगत यंत्रणा एकठांय आसल्यार स्वयंपूर्ण येवजणेतल्यान नवीं सपनां फुलपाक कळाव लागचो ना.

ज्या भौशीक यंत्रणांचे अध्यक्ष नात, तांची नेमणूक बेगीन जावची. इडीसी, आयडीसी म्हामंडळांचे अध्यक्षपद उद्येजकांक दिवपाच्यो मागण्यो जाल्यात, मुख्यमंत्री त्या मागण्यांचेर सकारात्मक नदरेन विचारमंथन करतलेच हातूंत दुबाव ना. आमदार, अधिकाऱ्यां परस योग्य शिक्षण, अणभव आशिल्ल्या वेवसायिकांक, संशोधन करतल्यांक, अभ्यासकांक येवजण मंडळाचेर प्रतिनिधीत्व मेळपाक जाय. कांय समित्यांचेर आमदारांची नेमणूक जाता, ते बसकांक ते हाजीर आसतात काय नासतात ताचो नियाळ मुख्यमंत्र्यांनी घेवचो.

खाशेली साहित्यनिर्मणी जावपाच्या कार्याक सरकारान मजत केल्यार नवी उदेंत पयस ना. कितल्योशोच येवजण्यो राजभास खातें, साबार अकादमीं कडेन आसल्यो तरी जाय तितलें हातबरप गुणेस्तां कडल्यान मेळोवपा पासत येत्त उणे जावं येतात, खात्या खातीर तजवीज केल्लो निधी मेळपाकय त्रास जातात. गोंयांत गायन, वादन, नाटकां, बालरंगभूमीचें दायज आसा तें तिगोवन दवरपाक जाय, नवे पिळगेक तांचीं फळां मेळचीं म्हणून कला शिक्षणा कडेन चड लक्ष दिवचें. कलाकारांच्यो अडचणी सरकारान समजून घेवच्यो, बालभवनांतल्यान माणकुल्या भुरग्यांची कुशळकाय फुलोवची, भुरग्यांच्या आंगातले गुण थंयच होल्मतले, सरकारी वावराच्या नेटांतल्यान विधानसभेंत उतर दिवनय कुशीक पडिल्ली भवनाय कित्याक उबारचीं न्हय? नव्या देवळां, सभाघरां परस कुशळकाय आशिल्लें मनीसबळ वर्सा भितर बांदल्यार गोंयची मानसिक भलायकी सुदारतली, मनीसजीणय संपन्न जातली, सरकारी वावर नेटान सुरू जावपा खातीर तीच वाट आसची.

**सुहासिनी प्रभुगांवकार**
9881099260

## सालांत

### प्रस्नांची जाप

प्रस्न म्हणले काय जापो ह्यो आयल्योच. प्रस्न कित्याक आसतात तर तांच्यो योग्य अश्यो जापो मेळच्यो म्हणूनच न्हय? प्रश्न हे जाप जाय म्हणूनच निर्माण जातात. आमी हे भुयेंर जल्म घेतलो म्हणतकच आमकां जगपा खातीर धडपडचें पडटा. ह्या संवसारांत सगल्यांकूच जल्मताच सगलें आयतें मेळटा, अशें ना! कांय जाणूच तोंडांत भांगराचें कुल्येर घेवन येतात, तर कांय जाणांक, बाबड्यांक येतनाच व्हड संकश्टां कडेन झुजचें पडटा. जल्म घेतना आमच्या हाताच्यो मुठी बंद आसतात. अशें म्हणटात, ते मुठीन जगपाचीं सगलीं सुख-दुख्खां भरुन घेवन आयल्यात. त्या भुरग्याचे मुठींत कितले तरी प्रस्न आनी जापो आसतात. ह्या संवसारांत जगप कशें तें तूं पळय, अशेंय घडये त्या प्रस्नांचेर बरयलें आसता जावये.

जल्मदात्यांक सदांच आपल्या भुरग्यान बरी देख घेतिल्ली जाय आसता आनी तीं तशीच ताका काणयो- ,गजाली सांगून वाढयता. मनीस जे परिस्थितींत वाडटा तसोच घडता. शेजराक जर दिसरात वायट गजाली घडटात, तर त्यो सान भुरगे बेगीन लक्षात घेता. आमकां तें त्यो शिकत आनी वायट बुद्दी जायत काय, हो प्रस्न आमकां पडटा. जाण्ट्यांनी दिल्लें ज्ञान फुकट दिसूंक लागता. प्रस्न पडटा आमच्या अश्या ज्ञानाचो फायदो कितें? आमी मागीर त्या जाग्या सावन पयस बरे कडेन वचून रावतात. हें कोण करता तर जांकां शक्य आसा तेच.

तो ताका जाय त्यो देखी ताच्या कानार घालीत आसता. तरीय रातीं ताका प्रस्न पडटा, आमचें भुरग्यांचेर सारकें लक्ष ना काय? तो आपल्या भुरग्यांक काय वेळा आपले पसून पयस दवरता. मागीर भुरगो आमचें सगलें आयकयलां तशें करता काय, असो प्रस्न ताका पडटा. मागीर काय वेळा आमी भुरग्यांक खूब तापयता, मारता लेगीत.

हांव एके बायल टेलरागेर ब्लावज शिंवंक गेल्ले. ती म्हाका सांगूंक लागली ‘म्हाका तुमचें थंय रुम भाड्यान वा विकतो आसल्यार सांग आं’. हावें म्हणलें, ‘तूं रावता थंय तर खुबच बरें आसा मगे’. ती म्हणपाक लागली, ‘ना टिचर, तो रुम हावें सोडलो. रूम बरो आसा, पूण शेजाऱ्यांचीं भुरगीं गाळी मारतात. म्हजीं भुरगीं बी मागीर रोखडींच शिकतली न्हय? म्हज्या भुरग्यांक त्या गाळयांचो अर्थ बी कळना’. हांव दिसभर दुकानार उरता न्हय. बापुय बी कामाक आसता. हीं त्या भुरग्यां बरोबर खेळटा आनि तीं उलयता तें लक्षात घेतात. म्हजे चलयेन शेजराचो काका अशें अशें म्हणटा, तें सांगलें. म्हाका कळ्ळी ती गाळी आशिल्ली. हावें ही गजाल घोवाक सांगली. आता तो बरी एरिया आसा थंय फ्लॅट पळयता म्हणटा. तिच्या चल्याक हांवें थोडे दीस शिकयलें, म्हणून ती म्हाका टिचर म्हणता.

भुरगें वायट उलोवंक लागलें की आवय- बापायलो प्रस्नाचो शिंवर भुरग्यांचेर जाता. जसो तिका आपल्या भुरग्यांचो फुडार चिंतून थंय रावप काय ना, हो प्रस्न पडलो. परिक्षेक बसलो काय प्रस्नपत्रिका सोडयले बगर म्हणल्यार योग्य ते उत्तर (जाप) बरयले बगर पास जावचो ना. शिकून कामांक वचूंक जाय जाल्यार इंटरव्ह्यू दिवचो पडता. प्रस्नांच्यो जापो सारक्यो दिल्यो की तू पास. पूण आतां मात इंटरव्ह्यू म्हणजे औपचारिकताय. समज कोणेंय (प्रस्न) विचारलें,‘ कशी गेली मुलाखत तर जाप आसतली अशी. कोण म्हणटले, ‘ना सारकें आशिल्ले प्रस्न. दुसरो म्हणटा, ‘बकवास इंटरव्ह्यू.’ कांय म्हणटलें, दिवंक जाय म्हणून दिल्या. तांचे थंय पयलींच पास केल्ले मनीस आसात. प्रस्न असो, की जापो दिवंनूय आमीं धादोशी जायनात.

काय कडे आपली भाव व भयण कसली चूक करता ती तिसऱ्या भांवडाक आपल्याचेर घेवची पडटा. केन्ना आवय-बापुय प्रस्न करतात, तांची जाप तांचे कडेन आसता, पुण भियोवन भुरगीं ती दिनात. आपले परस पिरायेन व्हड मनशांक जाप विचारताना तांचो मान राखून त्यो दिवच्यो पडटात. समाजान भोवताना तर खूबच प्रस्न उबे जातात आनी तांच्यो जापो दितना आमचे जिबेक लगाम घालचो पडटा. त्यो जापो खंयच्या खंय पडच्यो न्हय म्हणून. अनर्थ घडचे न्हय म्हणून.

आपुण कितें प्रस्न करता हांचेय भान आमकां चित्त थाऱ्यार दवरून जाप दिवची पडता. काय प्रस्न अशें आसतात की तांच्यो जापो आमकां येता तरी आमीं तोंड बंद दवरून मोने रावचें आसता. परत वोग्गी रावलो जाल्यार प्रस्न. ‘उलय आता. तोंड शिवले काय कितें? हरशी बरी चीब चुळबुळता. आता कितें जालें?’ अशें हे प्रस्न आमी जगतना पडतच आसतात आनी पडतुच रावतले. जापो जाय थंय दिवच्यो पडटल्यो आनी नाका थंय मात मौन धरचें पडटलें. आमचें बरें जावंक जाय, थंय प्रस्नांची जाप दिवप गरजेची आसता. कोण विनाकारण त्रास करता तांकां तर आमकां जाप विचारची पडताच नाजाल्यार सगलें आपल्या आंगार घेवन सोंसपाची तयारी कर. अशें कित्याक? परत प्रस्न. कित्याक वोग्गी बस? प्रस्न. जाप आसा? दी, नाजाल्यार.....!

**सोनाली पेडणेंकार**
9923046779

## म्हौंवाचें बोट

### तुळा करूं नाकात

*लोक कामाक लागले काय ते स्वताक कोण तरी व्हड समजतात आनी आपली तुळा गिरेस्तां कडेन करपाक लागतात. अशी तुळा करप योग्य न्हय. एखादो गांवठी खेळगडी आपली तुळा सचिन तेंडुलकार, विराटा वांगडा करपाक लागल्यार कोणूय हांसले बगर रावचो ना. गांवांत भाटकार आसल्यार कांय पिसाट हातांत चार पयशे घोळपाक लागले काय स्वताक भाटकार समजतात. थोड्यांनी तर देवा कडेन आपली तुळा करपाचो यत्न केला. ते स्वता करतात वा तांचे अनुयायी.*

*तुळा करचे परस त्या मनशाचे बरे गुण घेवन मुखार गेल्यार फुडाराक बरें जाता. आयज कोणूय कोणा कडेनूय आपली तुळा करपाक लागल्यात. शिक्षीत, अशिक्षीत, गिरेस्त, गरीब, भक्त, नास्तिक, बायल- दादलो हांची एकमेकां कडेन तुळा जावपाक शकना. प्रत्येक मनीस हो स्वता सारको. ताणें हेरां कडेन आपली तुळा करपाक जायना. तुळा म्हणल्यार वायट विचार. मनीस व्हड जाता कर्तृत्वान. खास करून गांवांनी जीण कशी जगप हें खबर आसना. मनीस यत्न केल्यार खूब कितें करपाक शकता. पूण तुळाा करपाक वता आनी तो जिणेची वाट शेणटा.*

*कांय जाण आमदार, मंत्री, खासदाराक पळोवन आपूणय तसो जावपाक सोदतात आनी गुटली मारून पडटात. गीतेंत सांगलां ते प्रमाण दरेकल्यान बरें काम करीत रावंक जाय. केन्नाच आपली तुळा दुसऱ्या कडेन करूं नाकात आनी दुसऱ्याक तुळा करपाक दिवं नाकात. तुळा केली म्हूण कोण व्हड जाता?*

**अजय जल्मी.**
7391996359

■ **मुद्रक आनी प्रकाशक प्रमोद आचार्य** हांणी प्रुडंट मिडिया (गोवा) प्रा.लि. गोंय हांचे वतीन हें पत्र एलेगंट ऑफसेट प्रिंटर्स प्रा. लिमिटेड, प्लॉट नं. **2-3-4**, थिवी इंडस्ट्रीयल इस्टेट करासवाडो, म्हापशें-गोंय हे सुवातेर **छापून** दुसरो माळो, फोर्थ इस्टेट (कामत मॅट्रोपोलीस) सांत इनेज, पणजी-गोंय हांगां **प्रकाशीत** केलें.

■ **संपादक: महेश महादेव दिवेकार** (पीआरबी कायद्या खाला संपादकी जबाबदारी)
■ **पणजी कचेरी:** दुसरो माळो, फोर्थ इस्टेट (कामत मॅट्रोपोलीस) सांत इनेज, पणजी-गोंय हे सुवातेर उजवाडायलें. फोन नं. **2405952**.

■ **ई-मेल: bhaangarbhuin@gmail.com** (बातम्या खातीर) **bhaangarbhuineditorial@gmail.com /** (लेख आनी साहित्या खातीर ) **/ bhaangarbhuinadvt@gmail.com** (जायरातीं खातीर). ■ **सुचोवणी:** अंकात व्यक्त जावपी मतां कडेन संपादक-प्रकाशक-मालक सहमत आसतलेच अशें ना. मजकुराची जापसालदारकी बरोवपी- जायरातदार हांची आसतली.

# साहित्यिकांनी उपेक्षीत नागरिकां खातीर लढाय चालूच दवरपाक जाय

## दामोदर मावजो : नामनेचो 'बालामणी अम्मा' पुरस्कार प्रो. सानू हांकां भेटयलो

भांगरभूंय | खबरां संस्था

**कोची:** उपेक्षीत नागरिकांक समताय, नीती आनी मेकळेंपण मेळटलें ते मेरेन साहित्यिकांनी लढाय चालूच दवरपाक जाय अशें ज्ञानपीठ मानेली कोंकणी साहित्यकार दामोदर मावजो हांणी सांगलें.

24 वो कोची आंतराष्ट्रीय पुस्तक उत्सवा निमतान एरणाकुळम हांगच्या एरणाकुळत्तप्पन ग्रौंड हांगा आयोजीत बालामणीयम्मा पुरस्कार भेटोवपाचे कार्यावळीक ते मुखेल सोयरे ह्या नात्यान उलयताले.

साहित्यिकांनी आपल्या बरोवपांतल्यान मोग आनी

सहानुभूती प्रचार करपाक जाय. तेन्नाच बरोवप्यांची जीण सार्थक जातली. कोंकणी भास आनी कोंकणी समुहा वरवीं केरळ आनी गोंयान हात मेळयल्या. हांगच्या फुटबॉल आनी सैमाक मेळयल्यार दोनूय राज्या एकूच अशें दिसता, अशेंय मावज्यान फुडें म्हणलें.

उपरांत मलयाळम साहित्यांत समग्र योगदान दिवप्यां खातीर दिवन येवपी प्रतिश्ठेचे बालामणीयम्मा पुरस्कार दामोदर मावजो हांणी नामनेचे साहित्यीक आनी समिक्षक प्रोफसोर एम. के. सानू हांकां भेटेयलो.

श्री संकराचार्या संस्कृत विद्यापिठाचे आदले कुलपती डॉ. एम. सी. दिलीप कुमार हांच्या यजमानपणा खाला जाल्लें बसकेंत पुस्तकोत्सव समिती सरकार्यदर्शी ई. एम. हरिदास हांणी प्रास्तावीक केलें आनी येवकार दिलो.

सुरवातेक कवयत्री श्रीकला सुखादिया हांणी येवकार गीत गायलें. नामनेचे कोकणीं साहित्यीक केन्द्रीय साहित्य अकादमी पुरस्कार मानेली आर. एस. भास्कर हांणी मुखेल भाशण केलें. डॉ. शैलम उण्णीकृष्णन हांणी बालामणीयम्मा यादस्तीक भाशण केलें. बालामणीयम्मा हांगेली धूव डॉ. सुलोचना नालापाट हांणी परबीं भेटयलीं.

पुरस्कार स्विकारल्या उपरांत प्रो. एम. के. सानू हांणी मनोगत उक्तायलें.

समितीचे कार्यदर्शी टी. के. प्रफुल्लचंद्रन हांणी उपकार मानले.

सकाळीं साहित्य अकादमी वतीन ईशान आनी दक्षीण साहित्यीक मेळावो जालो.

कोचींत जाल्ले कार्यावळींत एम. के. सानू हांकां पुरस्कार भेटेयतना दामोदर मावजो. कुशीक ई. एम. हरिदास, आर. एस. भास्कर, डॉ. एम. सी. दिलीप कुमार, डॉ. श्रीशैलम उण्णीकृष्णन आनी डॉ. सुलोचना नालापाट.

# आषाढी एकादशी निमतान 27 जूनाक वारीचें आयोजन

वारी विशीं पत्रकार परिशदेंत म्हायती दितना रमेश वंसकार, देवानंद नायक. वांगडा प्रभाकर नायक, सुरेंद्र गाड, मुकूंद लामगांवकार, बबन नायक, सम्राट परब आनी हेर. (विशांत वझे)

भांगरभूंय | प्रतिनिधी

**दिवचल:** ज्ञानेश्वर माऊली वारकरी संप्रदाया वतीन दोन वर्सांच्या ब्रेका उपरांत अंदूं आशाढी एकादशी निमतान पांय वारीचें आयोजन केलां. वारी 27 जूनाक मेणकुरेंच्यान पंढरपूरचे दिकेन वतली. हे वारींत वांटेकार जावपा खातीर म्हत्वाच्या अर्जांचें वांटप 9 आनी 10 एप्रिलाक तांबडो रस्तो, मुळगांवच्या वारकरी मंडळाचे अध्यक्ष देवानंद नायक हांच्या घरा कडल्यान जातलें. हे अर्ज भरून 16 आनी 17 एप्रिलाक स्विकारतले, अशी म्हायती वारीचे अध्यक्ष देवानंद नायक आनी सचीव रमेश वंसकार हांणी पत्रकार परिशदेंत दिली.

हे पत्रकार परिशदेक भांडारी मुकूंद लामगांवकार, सल्लागार प्रभाकर नायक, सुरेंद्र गाड, बबन नायक, सम्राट परब आनी हेर हाजीर आशिल्ले.

फाटलीं दोन वर्सां कोरोना लॉकडाव्न आनी महामारीक लागून आषाढी एकादशी निमतान पंढरपुराक पांय वारी व्हरपाची संद मेळ्ूंक ना. पूण अंदूं सगळी परिस्थिती नियंत्रणांत आयिल्ल्यान आषाढी एकादशी निमतान ही वारी व्हरपाचें वारकरी संप्रदायान थारायलां. हे नदरेन तयारीय सुरू जाल्ल्यान वारीच्या काळांत वारकऱ्यांची रावपाची, च्या, जेवणाचे वेवस्थे संबंदी तयारी सुरू आसा, अशें सचीव रमेश वंसकार हांणी सांगलें.

अंदूं हे वारींत सुमार 200 वारकऱ्यांचो आसपाव करून घेतले. वट्ट 13 दिसांच्या ह्या प्रवासांत वारी 12 सुवातांचेर राबून विसव घेतली. तेराव्या दिसा पंढरपुराक पावतली. वारी 27 जूनाक मेणकुरें दिवचल हांगच्या माऊली मंदिरातल्यान पंढरपुरचे दिकेन व्हरतले. 9 जुलयाक वारी पंढरपूर हांगा दाखल जातली. 10 जुलयाक आषाढी एकादशीचो सुवाळो जाल्या उपरांत सगळे वारकरी वाहनांच्या माध्यमांतल्यान 12 जुलयाक गोंयांत पावतले.

हे वारींत वांटेकार जावपी वारकऱ्यांक प्रवेश अर्ज 9 आनी 10 एप्रिलाक वाट्टले. 9 तारखेक पोरण्या वारकरी वांगड्यांक आनी 10वेर नव्या वारकऱ्यांक अर्ज वाट्टले. हे अर्ज कशे तरेन भरचे हाचें मार्गदर्शन करतले. हे वारींत वांटेकार जावपी प्रत्येक वारकऱ्याक घरांतल्या जापसालदार व्यक्तीची सय हाडप गरजेचें. तशेंच वारींत कसलेच तरेचे वेसनांच्या पदार्थांचो वापर करचो न्हय. तशेंच वारींत वायट उतरां वापरचीं न्हय. कसलेच तरेचें असभ्य वर्तन करचें न्हय आनी शिस्तीन रांकेंत वारींत चलचें अशे नेम घातल्या. वारीत सगळे नेम खरपणान पाळटले, अशें सल्लागार प्रभाकर नायक हांणी सांगलें.

## सावयवेरेंच्या मदनंत क्रिकेट क्लबाची बसका

भांगरभूंय | प्रतिनिधी

**सावयवेरें:** सावयवेरेंच्या मदनंत क्रिकेट क्लबाची बसका ता. 10 एप्रिलाक रातच्या 8 वरांचेर क्लबाच्या सभाघरांत आयोजीत केल्या.

हे बसकेक क्लबाचो वर्धापन दीस मनोवपा संबंदी चर्चा करून निर्णय घेतले. क्लबाच्या सगळ्या वांगड्यांनी बसकेक हाजीर रावपाचें आवाहन क्लबाचे अध्यक्ष बाबुराव शेटये हांणी केलें.

## अनिता खोर्जुवेंकार अंतरली

भांगरभूंय | प्रतिनिधी

**मुरगांव:** वागाळी बार्देश हागच्या अनिता अनिल खोर्जुवेंकार (भोसले) हांचें ल्हान काळाच्या दुयेंसान मरण आयलें. निमणे संस्कार त्याच दिसा वागाळी कातुर्लीवाडो हांगचे हिंदू मसंडभूंयेंत जातले. तांचे फाटल्यान तिचो घरकार अनिल आनी धूव असो परिवार आसा. ती मुरगांव नगरपालीकेचे नगरसेवक सुदेश भोसले हांची काकी आशिल्ली.

## यमुना भैरेली अंतरली

भांगरभूंय | प्रतिनिधी

**काणकोण:** तेंबेवाडो काणकोण हांगच्या यमुनाबाय कांता भैरेली(83) हांकां मंगळारा मरण आयलें. ती ज्येश्ठ स्वातंत्र्य सैनीक कांता भैरेली हांची घरकान्न आशिल्ली. सेंत्र प्रोमोतोर दी इस्त्रुसांव संस्थेच्या आमसभेच्या कार्यकारी समितीचे सचीव सूरज भैरेली, नगर नियोजन खात्याचे निरीक्षक सुदेश भैरेली, सुमंत भैरेली तशेंच मल्लिकार्जून विद्यालयाची प्राथमीक शिक्षिका बेबी उर्फ सुनीला भैरेली हांची ती आवय आशिल्ली. तांचे कुडीचेर त्याच दिसा निमणे संस्कार जाले.

भोवमाना उपरांत हेर कर्मचाऱ्यां वांगडा दयानंद गांवकार.

# बांदकाम खात्याचे कर्मचारी दयानंद गांवकार हांचो सेवानिवृत्ती निमतान भोवमान

भांगरभूंय | प्रतिनिधी

**वाळपय:** व्हाळवट भौशीक बांधकाम खात्याचे कर्मचारी दयानंद गांवकार हांचो सेवानिवृत्ती निमतान भोवमान जालो. ह्या वेळार आयोजीत केल्ले कार्यावळींत भौशीक बांदकाम खात्याच्या रस्तो विभागाचे सहाय्यक अभियंते देवेंद्र वेलिंगकार, कनिश्ठ अभियंते झिलबाराव देसाय, चंदन नायक, अरविंद सावयकार, गुरुदास गोखले आनी हेर हाजीर आशिल्ले.

देवेंद्र वेलिंगकार हांणी, दयानंद गावकर हांणी 33 वर्सां सरकारी सेवेंत आपली प्रामाणीक सेवा केली. हे तांचे कारकीर्दींत तांणी जनतेची बरे तरेन सेवा करपाचो यत्न केलो. सरकारी नोकर जनतेचो सेवक. जनतेची सेवा करप होच तांचो धर्म. प्रत्येक कर्मचाऱ्यान दयानंद गांवकार हांचे वरीं काम केल्यार सरकारी कर्मचाऱ्यांचें वेगळे तरेन चित्र समाजांत निर्माण जातलें, अशें तांणी म्हणलें.

झिलबाराव देसाय, चंदन नायक हांणी ह्या वेळार आपले विचार मांडले.

माचयेर हाजीर आशिल्ल्या मानेस्तांक फुलांचे तुरे भेटोवन येवकार दिलो. दयानंद गांवकार हांचो सहाय्यक अभियंता देवेंद्र वेलिंगकारांचे हस्तुकीं शाल, श्रीफळ आनी भेटवस्त भेटोवन भोवमान केलो.

ह्या वेळार कार्यालयाचे सगळे कर्मचारी व्हडा प्रमाणांत हाजीर आशिल्ले. हाजीर आशिल्ल्या सगळ्या कर्मचाऱ्यांनी दयानंद गांवकर हांकां परबीं भेटयलीं.

# गणेशपुरी विश्वस्त मंडळाच्या अध्यक्षपदार सत्यवान भिवशेट

भांगरभूंय | प्रतिनिधी

**म्हापशें :** गणेशपुरी म्हापशेंच्या श्री संग्राम गणेश मंदिराच्या विश्वस्त मंडळ समितीची सत्यवान भिवशेट हाच्या अध्यक्षपदा खाला बिनविरोध निवड जाली. ही समिती 2022 ते 2025 ह्या तीन वर्सांच्या काळा खातीर आसा.

बुधवारा रातचें मंदीर सभाघरांत विश्वस्त मंडळाच्या वांगड्यांची बसका आदले अध्यक्ष एकनाथ शेटगांवकार आनी सचीव प्रा. रविंद्र फोगेरी हांचे अध्यक्षतेखाला जाली. ह्या वेळार नवे समितीची निवड जाली.

हे समितींत उषा हरमलकार हांच्या रूपान पयलेच फावट एके बायलेची नेमणूक जाली. बायलेचो देवळाचे समितीन आसपाव करून गोंयच्या मंदीर समितीं मुखार गणेशपुरी विश्वस्त मंडळान आदर्श उबो केला.

समितीर उपाध्यक्ष पदार प्रमोद कळंगूटेकार, सचीव ॲड. पांडुरंग बाणावलीकार, सहसचीव गोकुळदास नागवेंकार, भांडारी विश्वास पिळर्णकार, उपखजिनदार रामकृष्ण नावेलकार, वांगडी व्यंकटेश प्रभू, श्रीमती उषा हरमलकार, सलीम इसानी, मयूर सावकार, यशवंत गवंडळकार हांणी निवड जाली.

निवडणूक मुखेली म्हणून प्रा. निळकंठ शेट हांणी काम पळयलें. नवे अध्यक्ष सत्यवान भिवशेट हांणी कृतज्ञता उक्तायली. गणेशपुरीच्या सगळ्या थळाव्यांनी देवळाच्या कार्यांत सहकार्य करपाचें आवाहन केलें.

गणेशपुरी म्हापशें श्री गणेश मंदिराच्या गणेशपुरी विश्वस्त मंडळाची नवी समिती.

## सड्यार नव्या वर्साक येवकारपाक प्रभात फेरी

भांगरभूंय | प्रतिनिधी

**मुरगांव :** भारतीय संस्कृती प्रेमी नागरीक हेडलँड सडा वतीन संवसार पाडव्या निमतान नव्या वर्साची येवकार प्रभात फेरी काडली. हे प्रभात फेरींत सडा वाठारांतले संस्कृती मोगी नागरीक वांटेकार जाल्ले.

सडा हांगच्या श्री इस्वटी ब्राह्मण लक्ष्मीनारायण देवळाच्या आंगणांत सकाळीं बावट्याची पुजा केली. उपरांत नागरिकांनी श्रीराम जय राम जय जय राम या राम नामाच्या जयघोशांत आनी टाळ मृदुंगाच्या निनादात सडा भागांत श्री इस्वटी ब्राह्मण देवालयाचे पालखी मिरवणूक मार्गावेल्यान प्रभात फेरी काडली. तशेंच दुर्वा निलेश उस्कयकार हांणी प्रभात फेरींत भारतीय संस्कृतीच्या भेसान अनवाणी बावट्या वांगडा दिवली पेटोवपाची सेवा केली. प्रभातफेरी पुनश्च देवळांत आयल्या उपरांत कडुलिंबाचे चटणीचो आनी बुंदीचा प्रसाद सगळ्यांक वाटलो.

ह्या वेळार मुखेल सोयरे जयेश नायक हांणी गुढीपाडव्या विशीं तशेंच हिंदु धर्माचे म्हत्व, समाज संघटीत आनी हिंदू समाज घटमूट करपा खातीर मार्गदर्शन केलें. एकनाथ मोरुडकार हांणी सुत्रसंचालन आनी अजित कांबळी हांणी उपकार मानले.

# वृंदा तारी ट्रस्ट रोटरी वतीन वैजकी कीट वांटले

भांगरभूंय | प्रतिनिधी

**दिवचल:** शांतादुर्गा विद्यालयांतल्या प्राथमीक, माध्यमीक आनी उच्च माध्यमीक भुरग्यांक वृंदा दिनानाथ तारी ट्रस्ट, रोटरी क्लब, दिवचल विद्यावर्धक मंडळ वतीन मुळाव्या उपचार वैजकी कीट वाटले.

ह्या वेळार दिनानाथ तारी, विद्यावर्धक मंडळ अध्यक्ष विजय सरदेसाय, आदले सभापती राजेश पाटणेकार, अरुण साळकार, दिनेश मयेंकार, सुदीन नायक, प्राचार्य ओरलँड मिनेझीस हाजीर आशिल्ले.

दिनानाथ तारी हांणी नैतीक मुल्यां खूब म्हत्वाचीं आशिल्ल्याचें ह्या वेळार सांगलें.

विजय सरदेसाय, राजेश पाटणेकर हांणीय मार्गदर्शन केलें.

28 विद्यालयांत हीं किट्स वाटलीं. शुभांगी आमोणकार, आत्माराम पेडणेंकार, दीप्ती सावंत, लेजिना फर्नांडीस हांणी कार्यावळीचें नियोजन केलें. गायत्री नायक हांणी सुत्रनिवेदन आनी प्राणिता शिरगांवकार हांणी उपकार मानले.

शाळेंतल्या भुरग्यांक मुळावें कीट पुरस्कृत केल्ले दिनानाथ तारी हांचो भोवमान करतना विजय सरदेसाय, राजेश पाटणेकार आनी हेर. (विशांत वझे)

# राज्यांत साबार वाठारांनी लायट आसची ना

भांगरभूंय | डीआयपी

**पणजी:** 11 केव्ही करमळी फिडरावयल्यान सकाळचीं 9.30 ते दनपरां 2 वरां मेरेन हेल्थव्हे, केंद्रीय कर्मचारी कॉलनी, एला क्रस्ट, धेंपो व्हिजन, शारदा मंदीर स्कूल, प्रिस्कॉन, परूळेकर आनी भोंवतणच्या वाठारांत लायट आसची ना.

आयज, दाबाळ फिडराचेर ताकतिकेचें दुरूस्ती काम करपाचें आशिल्ल्यान सकाळीं 9 ते दनपरां 1.30 वरां मेरेन आमेधुलय, आर्मिगोस, भगवती, दावकोण, गवळीवाडो, सावरगाळ, कळसय स्कुल, कळसय गांव, खळुली, किर्लपाल, मल्लारीमळ, रूमडामळ, सांतोण, तातोडी गांव, तातोडी खण, वागोण ग्रामपंचायत, वागोण गांव आनी भोंवतणच्या वाठारांत लायट आसची ना.

फाल्यां 11 केव्ही सिरसय फिडरावयल्यान सकाळीं 9.30 ते दनपरां 2 वरां मेरेन रेल्वे स्टेशन वांठार, कान्सातळे वांठार, मुड्डावाडो, आयस् फॅक्टरी, खार्गेवाडो आनी भोंवतणच्या वाठारांत लायट आसची ना. तशेंच फाल्यां पंचवाडी फिडराचेर ताकतिकेचें दुरूस्ती काम करपाचें आशिल्ल्यान सकाळी 9.30 ते दनपरां 1.30 वरां मेरेन मुडाय वाठारांत लायट आसची ना.

फाल्यां कुळें फिडराचेर ताकतिकेचें दुरूस्ती काम करपाचें आशिल्ल्यान सकाळीं 9.30 ते दनपरां 1.30 वरां मेरेन भरीपवाडो, फादर फार्म, आर. काणेकर, शिंदे फार्म आनी वाकिकुळण वाठारांत लायट आसची ना.

ता. 10 एप्रिलाक 33/11 केव्ही मडकय उपकेंद्रावयल्यान सकाळीं 8.30 ते दनपरां 1.30 वरां मेरेन मडकय ग्रामपंचायत, मडकय उद्देगीक वसणूक, 33 केव्ही आनी 11 केव्ही गिरायकांक लायट आसची ना.

## पाडव्या निमतान मांद्र्यां मिरवणूक

भांगरभूंय | बातमीदार

**कोरगांव :** 'जगतगूरू नरेंद्राचर्य महाराज स्व स्वरुप संप्रदाय भक्त सेवा मंडळ - गोंय राज्य' आयोजीत हिंदू नवें वर्स येवकार यात्रा मांद्रें पंचायत दत्तात्रय मठ देवूळ जुनसवाडो मांद्रें ते भगवती सप्तेश्वर मंदीर मेरेन गोंयच्या 12 म्हालांत विंगड विंगड पंगड घेवन मिरवणूक काडली.

हे यात्रेचें मांद्रें मतदार संघाचे आमदार जीत आरोलकार हांचे हस्तुकीं उक्तावण जालें. फाटल्या कितल्याशाच वर्सां सावन 'जगतगूरू नरेंद्राचर्य महाराज स्व स्वरुप संप्रदाय भक्त सेवा मंडळ' गोंयच्या विंगड विंगड वाठारांनी रॅली काडटा. कोवीड काळा उपरांत वेगळेच तरेन संवसार पाडवो मनयतना दिसलो.

मिरवणुकेचें उक्तावण करतना जीत आरोलकार आनी हेर. (मकबूल माळगीमनी)

शिल्पा लाड
8411007204

# कावळो आनी म्हातारी

एका गांवांत एक म्हातारी रावताली. तिका दोळ्यांत सारकें दिष्टी पडनाशिल्लें तरीय ती आपलें काम आपुणूच करताली. आपलें काम दुसऱ्यांनी करचें, अशें तिका केन्नाचं दिसनाशिल्लें. म्हातारेक एकूच धूव आशिल्ली. ताचें नांव विमल. विमलाक एक चलो आशिल्लो. तो केन्ना केन्नाय म्हातारेगेर म्हळ्यार आपल्या आजेगेर रावपाक येतालो. येवच्या पयली आजेक चीट बरयतालो. दोळ्याक लागुन म्हातारेक चीट वाचपाक जमनाशिल्लें तेन्ना ती शेजाऱ्यागेर वचून आपल्या नातवाली चीट वाचून घेताली.
अशीच त्या दीसा नातवाली चीट आयली. म्हातारी शेजाऱ्यागेर सदां भशेन चीट वाचूंक घेवपाक धांवली. शेजाऱ्यान चीट वाचली. नातवान बरयल्लें, 'आज्जे, म्हजी परीक्षा सोंपली गे. हांव तुमगेर फुडल्या आठवड्याक रावपाक येतां.' म्हातारी उमेदीर जाली. 'म्हजो नातू येता, म्हजो नातू येता' म्हूण ती सगळ्यांक उमेदीन सांगपाक लागली. लाडू, चकऱ्यो करपाच्या तयारेक लागली. नातू येवप म्हळ्यार घरांत एक परब कशीच आसताली. आठवड्याक सुरवात जाली. म्हातारी नातवाची वाट दोळ्यांत तेल घालून पळोवपाक लागली. दीस सरत गेले, पूण नातवाचो कांय पत्तो ना. आज येतलो फाल्यां येतलो करून आठवडोय सोंपलो. अजून नातवाची कांयच खबर ना. आतां म्हातारेक हुस्को जावंक लागलो. कितें जालां आसतलें कांय हें येवजून तिचो जीव सथर विथर जालो. कांयच जायना म्हूण ती उठून चीट बरोवपा खातीर शेजाऱ्यागेर गेली. पूण तांचेय दार बंद. आतां कोणूच ना हांव करू तरी कितें हें येवजून ती रडपाक लागली. म्हातारी रडटा तें पळोवन थंय एक कावळो आयलो. कावळो म्हातारेक वळखतालो. ताणें म्हातारेक हटकिली 'आगे, म्हातारे, कित्याक रडटा गे? कितें जालें?'
'आरे कावळ्या, म्हज्या नातवान रावपाक येतां म्हूण चीट बरयल्ली. ताचो पत्तोच ना. चीट कांय म्हाका बरोवंक येना. मागीर ताका कशें सोदू? कसो रकाद धाडूं?'. कावळ्यान कांव कांव करीत म्हातारेच्या उतराक ओ दिलो. म्हातारेन ताचे चोंचींत नातवाचो फोटो घालो. कावळ्यान वाकडे तिकडे दोळे करीत तो बरो नियाळ्ळो. आनी फुर्रर्रर्र करून म्हातारेच्या नातवाक सोदपाक उडून गेलो. कावळो भोंवता भोंवता नातवाच्या घरा कडेन पावलो. थंय घरा लागसार एक अनंताचे झाड आसलें. ताजेर बसून कांव कांव करीत बोवाळ घालपाक लागलो. कितलो वेळ जालो तरी हाची कांव कांव कांय थांबना आनी हाच्या उल्याक कोण वालोर दिना. इतल्यान पुता घरांतल्यान म्हातारेची धुव कामाक वचपाक भायर सल्ली. हाणें वेळ केलोना. तिच्या लागसार वचून मोठ्यान कांव कांवचें रडगाणेंच जणू गायलें. पूण तिणें लक्षात कांय घेतलें ना. कावळ्याक आयलो राग ताणें टुच्च करून तिच्या माथ्यार चोच माल्ली. ती 'आवय गे! आवय गे!' करीत थंयच माथे सासपुंक बसली. इतल्यान कावळ्याक सुचलें ताणें म्हातारेन दिल्लो फोटो तिच्या मुखार उडयलो. म्हातारेली धुव तो फोटो पळोवन अजापीत जाली. हो फोटो ह्या कावळ्याकडे कसो? हो प्रस्न तिका पिडूंक लागलो. 'कावळ्या ए कावळ्या हो फोटो म्हज्या आई कडे आसता हो तुका कसो मेळ्ळो. म्हजी आई बरी आसा मरे? कितें जाला सांग.' कावळ्यान कांव कांव फुडें फाटीं येवन घिरटी घालूक दाखयल्यो. धुवेन पारखिलें हो खंय तरी म्हाका व्हरपाक सोदता. तिणें कळाव केलोना आपल्या पुताक उलो मारून आपयलो. सगळी गजाल ताका सांगली.....

> कावळ्यान कांव कांव फुडें फाटीं येवन घिरटी घालूक दाखयल्यो. धुवेन पारखिलें हो खंय तरी म्हाका व्हरपाक सोदता. तिणें कळाव केलोना आपल्या पुताक उलो मारून आपयलो.

.... आनी कावळ्यान उडपाक सुरवात केली. तीय ताच्या फाटल्यान चलपाक लागली. चलता चलता पळयत जाल्यार कितें, आरे ही तर म्हज्या आईल्या घरची वाट ती वळखली. चलता चलता म्हातारेल्या घरा पावली. म्हातारी भायरूच बशिल्ली. नातवाक आनी धुवेक पळोवन भळभळीत रडली. 'बाबा खंय रे तूं. येता म्हूण सांगुन आयलोच ना मरे. तुजी खूप वाट पळयली. चीट येवन तूं केन्ना आयलोना अशे आयज मेरेन केन्नाचं जालेना. हुस्को जालो रे म्हाका. तूं येतलो म्हुण लाडू चकरी सगळे केला. म्हाका आदाराक हांगा कोणूच नासलो म्हूण कावळ्याचो आदार घेतलो रे तुमकां आपोवक'. हें आयकून म्हातारेल्या धुवेक राग आयलो. तिणे आपल्या पुताक बरोच तापयलो. 'हय रे जाणट्या मनशाक अशें फटोवप? तुवें केन्ना चीट बरयली? म्हाका सांगूं सुद्दा ना. आनी बरयली जाल्यार आयलोना कित्याक? तिका इतले कित्याक तळमळायलें?'
'म्हाका माफ कर आई. हांवे मुद्दम करुना गे.चीट बरयली आनी हांव वचपाचें विसरलो. आज्जे, आई म्हाका माफ कर. सगळी चूक म्हजी. म्हाका लागुन तुमकां खूप त्रास जाले न्ही म्हाका माफ कर. हांव कपडे घेतां आनी फाल्यां येतां रावपाक, पूण लाडू मात आता खातलो आं'
'कावळ्या तुजे देव बरें करू रे बाबा. म्हज्या आज्जेच्या आदाराक देवा भशेन पावलो रे बाबा. घे तूंय लाडू खा'. कावळो लाडू घेवन कांव कांव करीत उमेदीन उडून गेलो आनी सगळी एकठांय येवन उमेदीर जाली. मनशा मनशांक विसरत, पूण सवणी, मोनजात आपणांक खावपाक दिवपी मनशांक विसरून केन्नाचं बेमान जायनात हें मात खरें.

## गणीत कुवाडें

□ = 1 ○ = ? △ = ?
□ + ○ = 4 ○ + □ + ○ = 7
△ + ○ = 8 □ + ○ + △ = 9
○ + ○ = 10 △ + ○ + △ = 13

चौकट आनी त्रिकोणाचें मोल सोदून हें गणीत पुराय करात पळोवया.

## वाट सोदूया

हीं फळां त्या- त्या बॉक्सांत घालात, पळोवया भुरग्यांनो?

मंत्री रवी नायक हांचें अभिनंदन करतना फोंडें अंत्रुज पत्रकार संघाचे पदाधिकारी.

# फोंडें मतदारसंघांत जमनी पोंदच्यान वीज वाहिन्यो घालपाची प्रक्रिया सुरू

## अदमासे 22 कोटी खर्च: रवी नायक

भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**फोंडें:** फोंडें मतदारसंघांत विजेचे समस्येचेर कायमचो उपाय काडपा खातीर जमनी पोंदच्यान वीज वाहिन्यो घालपाची प्रक्रिया सुरू केल्या. मतदारसंघांत अदमासे 22 कोटी रुपया खर्च करून भुंयगत वीज वाहिन्यो घालतले अशी म्हायती कृशी मंत्री रवी नायक हांणी दिली.

फोंडें पत्रकार संघा वतीन कृशी मंत्री रवी नायक हांकां फुलांतुरो भेटोवन तांचें अभिनंदन केलें. ह्या वेळार नगरसेवक रितेश नायक, अंत्रुज पत्रकार संघाचे अध्यक्ष दुर्गाप्रसाद पै, अजय बागकार, नरेंद्र तारी, सदानंद सतरकार आनी हेर पत्रकार हाजीर आशिल्ले.

गोंयांत तिसऱ्या जिल्ह्याची निर्मिती गरजेची आसा. ते खातीर फाटल्या कांय वर्सां सावन तिसऱ्या जिल्ह्याचे निर्मिती खातीर प्रयत्नशील आसात. खांडेपारा अपूर्ण स्थितींत आशिल्ल्या पुलाचें काम रोखडेंच पुराय करतले अशें मंत्री रवी नायक हांणी सांगलें.

हाचे पयलीं मंत्रीपदार आसतना रवी नायक हांणी गोंयची संस्कृती तिगोवन दवरपा खातीर कला आनी संस्कृती खात्याची निर्मिती करून कलाकारांक माची मेळोवन दिल्ली. तशेंच गोंयांत शिवजयंती आनी शिगमोत्सव मिरवणुकेची सुरवात करपाक रवी नायक हांचें योगदान आसा. कूळ-मुंडकार कायदो अस्तित्वांत हाडपा खातीर लेगीत मंत्री रवी नायक हांणी गरिबां खातीर व्हड योगदान मेळोवन दिलां. नव्या सरकारांत कृशी मंत्रीपद मेळिल्ल्या रवी नायक हांचे कडल्यान शेतकारांच्यो अपेक्षा वाडल्यात अशें ज्येश्ठ पत्रकार नरेंद्र तारी हांणी सांगलें.

ह्या वेळार अजय बागकार आनी सदानंद सतरकार हांणी आपले विचार उक्तायले.

# सुर्ल- सत्तरींत वीज समस्या

भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**पणजी:** सुर्ल- सत्तरींत वीज पुरवणे खातीर जमनी खाला घातिल्ल्या वीज केबलींत दोश तयार जाला. हालींच पडिल्ल्या पावसाच्या उदकाच्या पावसाक लागून त्यो चार्ज जायनात आनी वीज पुरवण बंद पडटा. ठाणे पंचायत वाठारांतल्या गोळावलीच्यान सुर्ल गांवांत ही वीज केबल हाडल्या. 18 वर्सां आदी ही केबल घातिल्ली.



सुर्स सरकारी शाळेक सरकारान ब्रॉड बँण्डची जोडणी दिल्या. ताचे खातीर जमीन खणटना वीज केबली तुटल्याची शक्यताय आसा. वीज केबलींत दोश जावन सुर्लांतली वीज पुरवण सेगीत बंद पडत आसता. सरकारान तातूंत लक्ष घालून पावास पयलीं वीज पुरवण साकरी करची अशी लोकांची मागणी आसा.

# बायलेक धमकी दिवपी सुरेल पांचाळाक अटक

भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**पणजी:** उत्तर गोंयातले एके लग्न जाल्ले बायलेकडेन सोशल मीडिया वरवीं इश्टागत करून तिका कपडे घालूंक नाशिल्ले स्थितींतलो व्हिडिओ धाडपाक सागून तो सोशल मीडियाचेर घालपाची धमकी दिवपी सुरेल पांचाळ (32, मध्य प्रदेश) हाका गोंय पुलिसाच्या सायबर फाट्यान अटक केली.

उत्तर गोंयांतल्या 35 वर्सां पिरायेचे बायलेन फाटल्या फेब्रुवारी म्हयन्यांत पांचाळ हाचे आड पुलीस कागाळ केल्ली. पयशे दिले ना जाल्यार व्हिडिओ सोशल मीडियाचेर घालपाची धमकी ताणे आपल्याक दिल्या अशें तिणे कागाळेंत नमूद केल्लें. पुलीस अधिक्षक शोबित सक्सेना आनी उपअधिक्षक विल्सन डिसोझा हांच्या मार्गदर्शना खाला पुलीस निरीक्षक राहुल पबर हांणी गुन्यांव नोंद केली. उपरांत उपनिरीक्षक देवेंद्र पिंगळे, सर्वेश सावंत, संयोग शेट्ये, इब्राहीम करोल, हेमंत गांवकार ह्या पुलीस पंगडान 2 एप्रिलाक मध्य प्रदेशांत वचून सुरेल पांचाळ हांका ताब्यांत घेतले. 5 एप्रिलाक ताका गोंयांत हाडलो.

# संदेश खेडेकाराची गायनाची कार्यावळ

भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**सावयवेरें :** अयोध्येच्या श्री राम मंदिरांत राम जयंती निमतान आयज, ता. 7 आनी आयतार ता. 10 एप्रिलाक पंडित प्रभाकर कारेकार हांचे शिश्य गोंयचे युवा प्रतिभावंत शास्त्रीय गायक संदेश वसंत खेडेकार (खेडे- सावयवेरें) हांची शास्त्रीय तशेंच सुगम संगीताची कार्यावळ जातली. श्री काळेराम मंदीर ट्रस्ट, अयोध्ये वतीन गोंयचे नामनेचे गायक कलाकार संदेश खेडेकार हांकां आमंत्रीत केल्या.

# भाजपचे कार्यप्रणालीची संवसारीक पांवड्यार चर्चा जाता: मुख्यमंत्री

भाजपा स्थापन दिसा आपल्या घरा कडेन भाजपाचो बाबटो हुबयतना मुख्यमंत्री डॉ प्रमोद सावंत आनी कार्यकर्ते.

भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**दिवचल:** मुख्यमंत्री डॉ प्रमोद सावंत हांणी साखळेंतल्या आपल्या घराच्या आवाठांत भाजपाचो बावटो हुबोवन भाजपा स्थापना दीस मनयलो. ह्या वेळार जायते कार्यकर्ते हाजीर आशिल्ले. पंतप्रधान नरेंद्र मोदी हांच्या सक्षम फुडारपणा खाला केंद्रांतल्या भाजपा सरकारान देशांतूच न्हय तर संवसारांत आपलो दबदबो तयार केला. देश तशेंच सगल्या घटकांची उदरगत करपा खातीर तांणी केल्ली कामगिरीक लागून देशांतले लोक आतां भाजपा फाटल्यान संबीरपणान उबे आसात अशें डॉ सावंत हांणी ह्या वेळार सांगलें.

दोन वर्सांनी जावपी लोकसभा वेंचणुकेंत मोदी हांच्या फुडारपणा खाला भाजपा परत सत्तेर येतलो. पक्ष ते खातीर आतां सावन सज्ज आसा. काँग्रेस मुक्त भारत हो नारो खरो जाता, भाजपाचीं ध्येय धोरणा घराघरांनी पावोवपाचें काम कार्यकर्ते करतात. संवसारीक पांवड्यार देशाक उंची मेळोवन दिवपाची व्हडली कामगिरी भाजपा फुडाऱ्यांनी केल्या. आत्मनिर्भर भारत, स्वंयपूर्ण गोंया खातीर आमी आनीक नेटान काम करपाक लागल्यात अशें तांणी सांगलें.

म्हापशें मार्केटांतल्या चणेकार दुकानाच्या इमारतीर सांपडिल्लो सांगाडो पोतयेंत भरून व्हरतना म्हापशें पुलीस.

# म्हापशें मार्केटाच्या बंद माळ्यार सांपडलो मनशाचो सांगाडो

भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**म्हापशें:** बाजारपेठेंतल्या चणेकार हांच्या दुकानाच्या इमारतीच्या दुसऱ्या माळ्यार मनशाचो सांगाडो सांपडलो. माळ्यार पळोवणी करपाक गेल्ल्या पालिका कर्मचाऱ्यांक हो सांगाडो दिसून आयलो. म्हापशें पुलिसांनी पंचनामो करून हो सांगाडो फुडले तपासणी खातीर गोमॅकॉँत धाडून दिला.

पालिका मंडळान इमारतीच्या दुसऱ्या माळ्याचें दुरुस्तीचें काम हातांत घेवन तो माळो भाड्यान दिवपाचो निर्णय घेतला. ते प्रमाण बुधवारा सांजवेळा पालिका कर्मचारी माळ्याचें सायट इन्स्पेक्शन करपा खातीर गेल्ले. त्या वेळार माळ्यार मनशाचो सांगाडो आशिल्ल्याचें कर्मचाऱ्यांक दिसून आयलो. ह्या सांगाड्याचे अवयव वेगळेवेगळे सुवातेर आशिल्ले.

ही गजाल कर्मचाऱ्यांनी पालिका मुख्याधिकाऱ्याच्या कानार घाली. मुख्याधिकारी सीताराम सावळ हांणी पत्र धाडून सांगाड्या विशींची म्हायती म्हापशें पुलिसांक दिली. सांजवेळा उसरां मेरेन हें पत्र मेळटकूच पुलिसांनी पालिका कर्मचाऱ्यांच्या आदारान घडणुकेच्या थळार धांव घेतली. त्या वेळार सांगाड्याचे वेगळेवेगळे तुकडे पुलिसांच्या हाताक लागले. हो सांगाडो पुलिसांनी जप्त केला आनी तो फुडले तपासणे खातीर धाडून दिला. हो सांगाडो दादल्याचो आसा आनी खूबशा म्हयन्या पयलीं ताका मरण आयिल्लें आसुये असो दुबाव पुलिसांनी उक्तायला.

मजगतीं, कांय वर्सां पयलीं पालिकेन ह्या माळ्यार पाख्याचें बांदकाम केल्लें. उक्त्या माळ्यार वचून कांय लोक सोरो पियेतात. एक, दोग जाणांचो सोऱ्याचे घुंवळेंत माळ्यार मरणूय आयिल्लें. ताका लागून तीन वर्सां पयलीं हो माळो पत्र्यांनी पालिकेन बंद केल्लो. तरी लेगीत कांय जाण ल्हानशा बुराकांतल्यान ह्या माळ्यार वताले. हातूंतल्याच एकल्याचो हो सांगाडो आसुये अशी शक्यताय पुलिसांनी उक्तायल्या. फुडलो तपास पुलीस करतात.

# काम करूंक नाशिल्ल्या कंत्राटदारांक काडटले नोटिशी: निलेश काब्राल

## बरें काम केल्ल्या कंत्राटदारांक मेळटलें काम; लोकांनी उदकाचो योग्य वापर करचो

भांगरभूंय | विशेश प्रतिनिधी

**मडगांव:** गोंयांतल्या ज्या कंत्राटदारांनी काम केल्लें ना तांकां नोटिशी काडटले. उपरांत त्या कंत्राटदारांक ब्लॅकलिस्टांत घालतले. ज्या कंत्राटदारांनी फाटल्या वेळार बरें काम केलां तांकांच फुडलें काम दिवपाचो निर्णय घेतला अशें भौशीक बांदकाम मंत्री निलेश काब्राल हांणी सांगलें.

मंत्री काब्राल हांणी रस्त्यांची पळोवणी केले उपरांत पत्रकारां कडेन उलयतना ही म्हायती दिली. काब्राल हांणी सांगलें की, बांदकाम खातें आतांच हातांत घेतलां. ते प्रमाण पळोवणी करपाक सुरवात केल्या. अधिकाऱ्यांचे कचेरेंत बसून रावप योग्य न्हय. अभियंत्यांनी तांचें काम केलां. म्हामार्गाचें जें काम आसा तें कंत्राटदाराक दिलां त्या काळांत दोन फावटी डांबराचें मोल वाडलें. ताका लागून ह्या कामाचो अदमाशेक खर्च वाडयतले. म्हामार्गाचें नियोजन करतना फाटल्यो चुकी सुदारपाचो यत्न करतले. अपघात घडटात त्या वाठारांनी योग्य उपाय येवजण जातली. काणकोण सावनचो म्हामार्ग रुंद करपा खातीर भूंय संपादीत करपाची गरज आसा. केंद्रा कडेन चर्चा करून हे विशीं निर्णय घेतले अशेंय काब्राल हांणी म्हणलें.



अधिकाऱ्यां कडेन चर्चा करतना निलेश काब्राल. (संतोष मिरजकार)

### आमकां कोळसो नाकाच

सेव्ह मोलें आनी गोंयांत कोळसो नाका ह्या संस्थां प्रमाण म्हाकाय गोंयांत कोळसो नाका. पूण जो कोळसो पयलीं सावन येता ताचेर आमी कांयच करूंक शकनात. हो कोळसो उणो करपाचो आसत जाल्यार टप्प्या टप्प्यान काम करचें पडटलें. परतून परतून ताचेर उलोवन कांयच उपेग ना. गोंयांत खंयच कोळशाची रास येवची ना. हाचे मुखार कोळशाची आयात वाडची ना हाचे कडेन लक्ष आसतलें. ह्या संस्थांच्या उलोवपां कडेन लोकांनी आडनदर करची.

वीज नासल्यार कसलींच कामां जायनात. गोंयांत वीज तयार जायना ताका लागून विजेचो प्रस्न निर्माण जातलो. ते खातीर 440 केव्ही वाहिन्यो हाडपाची तयारी केल्ली. ताका लागून सेव्ह मोलें बी अशें म्हणून कांयच फायदो ना. गरजेच्यो त्यो उपाय येवजण्यो करच्योच पडटात अशेंय काब्राल हांणी म्हणलें.

जांकां समस्या आसात तांचे कडेन चर्चा करपाची तयारी आसा. तांणी गरजे भायर टिका करचे बदला चर्चा करची. म्हाका कंत्राटदार लागनात तांणी बरें काम करचें हेंच उद्दिश्ट आसा अशें काब्राल हांणी म्हणलें.

### वाडिल्ल्या उदकाच्या बिलाचेर उपाय काडटले

उदक गळटीक लागून 40 टक्के महसुलांत उणाव जायत आसा. गोंय सरकारान जें 16 हजार लिटर उदक फुकट दिलां तें वाडोवन 18 हजार लिटर करूंक शकतात. उदक शुद्धीकरणा खातीर जावपी खर्च पळयत जाल्यार सुमार 30 रुपयांनी पडटा जाल्यार लोकांक उण्या मोलांत दिवचें पडटा. पूण लोकांनी उदकाचो योग्य वापर करचो. गरजे भायर उदकाची नाशाडी करची न्हय. उदक उणें वापरीत जाल्यार उदकाचें बील शुन्य येतलें. उदकाच्या बिलाच्या दरपत्रकांत अभ्यास केले उपरांत उपाय येवजण करतले अशें मंत्री निलेश काब्राल हांणी सांगलें.

# सड्यार घराक उजो लागून लाखांनी रुपयांचें लुकसाण



उज्याचे भकीक पडिल्लें सामान.

भांगरभूंय | प्रतिनिधी

**वास्को:** सड्यार विद्याधर नागवेंकार हांच्या घराक मंगळारा मध्यानरातीं उजो लागिल्ल्यान घरांतल्यो चडश्यो वस्तू, रोख रक्कम आनी भांगर उज्याचें भकीक पडलें. ह्या प्रकरणांत मुरगांवचे आमदार संकल्प आमोणकार आनी नगरसेवक श्रद्धा आमोणकार हांणी घडणुकेच्या थळाक भेट दिवन पळोवणी केली. सरकारा कडल्यान योग्य ती मजत मेळोवन दिवपाचो आपलो यत्न आसतलो अशें संकल्प आमोणकारान सांगलें.

विद्याधर नागवेंकार आनी तांची घरकान्न ह्या घरांत रावतात. बुधवारा मध्यानरातीं सुमार साडेबारांक तीं दोगांय न्हिदिल्लीं. उपरांत पावणे दोन वरांचेर उजो लागलो म्हणून तांची घरकान्न उठली. तांणी उजो पालोवपाचो यत्न केलो, पूण उज्यान नेट घेतिल्ल्यान तीं दोगांय घरा भायर सरलीं.

उजो लागिल्ल्याचें शेजाऱ्यांक कळटकूच तांणी थंय वचून घरांतलें सामान तशेंच दोन सिलिंडर भायर काडले. ह्या वेळार थंय पाविल्ल्या उजो पालोवपी दळान उज्याचेर नियंत्रण मेळयलें.

मजगतीं तो मेरेन घरांतलें चडशें सामान उज्याचें भकीक पडिल्लें. घरांतलो फ्रीज, एसी, आरमार, खाट, कपडे, धान्य, रोख रक्कम, भांगराच्यो वस्ती तशेंच हेर वस्तूंचो आस्पाव आसा.

हो उजो शॉर्ट सर्किटाक लागून लागिल्ल्याचो अदमास उक्तायतात. ह्या उज्याक लागून नागवेंकार हांचें लाखांनी रुपयांचें लुकसाण जालां. हे संबंदी सरकारान योग्य तें सहकार्य करचें अशें तांणी सांगलें.

# सायपें तळ्यांत सोडटात त्या घाणयाऱ्या उदका बाबतींत उपाय येवजण

## आग्नेलो फेर्नांडीस: खात्यांच्या अधिकाऱ्यां कडेन करतले चर्चा

भांगरभूंय | विशेश प्रतिनिधी

**मडगांव:** सुमार 160 हॉटेलां आनी व्हड इमारतींतल्यान येवपी घाणयारें उदक सायपे तळ्यांत सोडीत आशिल्ल्याचें पालिकेन केल्ले पळोवणेंत दिसून आयलां. ताका लागून संबंदीत सगल्या खात्यां कडेन चर्चा करून उपाय येवजणे विशींचो आराखडो तयार करतले अशी म्हायती मुख्याधिकारी आग्नेलो फर्नांडीस हांणी दिली.

सायपे तळ्याचे पळोवणे आदीं मडगांव पालिकेंत मुख्याधिकाऱ्यांचे कचेरेंत बसका आयोजीत केल्ली. ह्या वेळार भौशीक बांदकाम खात्याचे अधिकारी, प्रदुशण खात्याचे अधिकारी, घाणयाऱ्या उदक विभागाचे अधिकारी, भलायकी खात्याचे अधिकारी आनी पालिका कर्मचारी हाजीर आशिल्ले.



तळयेची पळोवणी करतना अधिकारी. (संतोष मिरजकार)

मुख्याधिकारी आग्नेलो फेर्नांडीस हांणी सांगलें की, घाणयारें उदक विभागा कडल्यान घाणयाऱ्या उदकाची पायपां घालतना योग्य तरेन सर्वे करूंक नाशिल्लो. कांय कडेन घाणयारें उदक वचपाक अडचणी येतात. प्रकल्पाचो आराखडो तयार करतना जाल्ल्या चुकांचो फटको आतां बसत आसून ह्यो चुकी सुदारपाचो यत्न घाणयाऱ्या उदक खात्या कडल्यान जाता अशें फेर्नांडीसान म्हणलें.

सायपे तळ्यांतल्या प्रदुशण प्रकरणांत उच्च न्यायालयांत याचिका दाखल आसा. हे याचिकेचे सुनावणे वेळार न्यायालया कडल्यान प्रदुशण आडावपा खातीर कसली उपाय येवजण केल्या हाचो म्हायती अहवाल जूनांत जावपी फुडले सुनावणे वेळार सादर करपाक सांगलां, ते प्रमाण संबंदीत सगल्या खात्या कडल्यान एकठांय पळोवणी करतले. सायपे तळ्याच्या प्रदुशणा विशीं चर्चा करीत आसतना घाणयाऱ्या उदक विभागां कडल्यान कांय कामां अजुनूय बाकी आसात. ताका लागून हातूंतल्यान उपाय काडपाचो यत्न आसा.

15 दिसांत पालिके कडल्यान करतल्या उपाय येवजण्यांची म्हायती दिवपाक न्यायालयान सांगलां. याचिकाकर्त्यां कडल्यान घाणयरें उदक सोडटल्या इमारतींचें उदक आनी वीज कनेक्शन बंद करपाची मागणी जायत आसा. पूण हो पर्याय योग्य न्हय. ते खातीर खर उपाय येवजण करपा खातीर सगल्या खात्यांची बसका आपयल्या.

# कुर्टी- खांडेपार सरपंच, उपसरपंचा आडचो अविस्वास थाराव संमत

## वेलिंग, प्रियोळ, कुंकळ्यें सरपंचांचो राजिनामो

भांगरभूंय | प्रतिनिधी

**फोंडें:** विधानसभा वेंचणुके उपरांत कुर्टी खांडेपार पंचायतीचे सरपंच भिका केरकार आनी उपसरपंच शर्मिला सांगांवकार हांचे आड दाखल केल्लो अविस्वास थाराव काल (बुधवारा) संमत जालो. जाल्यार वेलिंग प्रियोळ कुंकळ्यें पंचायतीचे सरपंच लक्ष्मीकांत खेडेकार हांचे आड स पंच वांगड्यांनी अविस्वास थाराव दाखल केले उपरांत लक्ष्मीकांत खेडेकार हांणी सरपंचपदाचो राजिनामो दिला.

कुर्टी पंचायतींत अविस्वास थारावाचेर चर्चा करपा खातीर आपयिल्ले बसकेंत पांच पंच वांगडी गैरहाजीर राविल्ल्यान अविस्वास थाराव संमत केलो. बसकेंत सरपंच भिका केरकार, उपसरपंच शर्मिला सांगांवकार, पंच वांगडी नावेद तहसीलदार, सुधीर राऊत आनी नसीमा मुल्ला गैरहाजीर रावले. जाल्यार दादी नायक, सांतान फेर्नांडीस, शैलेश शेट, श्रवणी गावडे, सुनील खेडेकार आनी रुक्मा खांडेपारकार हाजीर आशिल्ले.

मजगतीं, वेलिंग, प्रियोळ, कुंकळ्यें पंचायतीचे सरपंच लक्ष्मीकांत खेडेकार हांचे आड दाखल जाल्ल्या थारावाचेर दीक्षा नायक, रणजीत प्रभुदेसाय, मंगेश गावडे, संजना गावडे, हर्षा गावडे आनी रोहिणी नायक हांणी सयो केल्यात. पूण अविस्वास थाराव दाखल जाले उपरांत लक्ष्मीकांत खेडेकार हांणी सरपंचपदाचो राजिनामो गटविकास अधिकार्‍या कडेन दिलो.

# सख्ख्या भावानूच 19 लाख रुपया फारायले

भांगरभूंय | प्रतिनिधी

**म्हापशें:** फ्लॅट घेवपा खातीर दवरिल्ले 19 लाख रुपया सख्ख्या भावानूच फारावपाचो प्रकार म्हापश्यां घडलो. पुलिसांनी ह्या प्रकरणांत दुबावीत नागराज दिलीप नाईक (दत्तवाडी म्हापशें, मूळ कर्नाटक) हाचे आड गुन्यांव दाखल केला.

ही चोरयेची घडणूक फाटल्या 31 मार्च दिसा घडली. दुबावीत नागराज नाईक हाका कर्नाटक पुलिसांनी धरलो तेन्ना ताचे कडेन 19 लाख रुपया रोख रक्कम सांपडली. ताका लागून हो चोरयेचो प्रकार उक्ताडार आयलो.

कागाळदार बलराज दिलीप नाईक आनी दुबावीत नागराज हे दोगूय सख्खे भाव दत्तवाडी म्हापश्यां भाड्याच्या घरांत रावताले. कागाळदार हो एका खाजगी कंपनींत कामाक आसा. कागाळदाराचे कागाळी प्रमाण ताका फ्लॅट विकतो घेवपाचो आशिल्लो. ताका लागून ताणें पयशांची वेवस्था करून हे पयशे ताणें आपल्या भाड्याच्या घरांत दवरिल्ले.

दुबावितान हे पयशे चोरले आनी तो मूळ गांवांत वचपाक गेलो. वाटेर ताका कर्नाटक पुलिसांनी धरलो आनी रक्कम जप्त केली. ह्या प्रकरणांत म्हापशें पुलिसांनी दुबाविता आड भादसंच्या 380 कलमा खाला गुन्यांव नोंद केला आनी फुडलो तपास पुलीस हवालदार संदीप मडकयकार करतात.

# कोलकाताच्या जैतांत कमिन्स पर्जळ्ळो

## आयपीएल: 14 बॉलांनी अर्द शेंकडो, मुंबयची हारीची हॅट्रीक

खबरां संस्था

**पुणें:** ईंडीयन प्रिमीयर लिगेचे (आयपीएल) 14वे मॅचींत कोलकाता नायट रायडर्सान मुंबय इंडियन्साक 5 विकेटींनी हारयलो. कोलकाताक जैता खातीर 162 धांवड्यांची मोख मेळिल्ली. कोलकातान 16 ओव्हर्सांनी 5 विकेट वगडावन 162 धांवड्यो करून जैत जोडलें.

कोलकाताच्या जैतांत पॅट कमिन्स पर्जळ्ळो. ताणें आयपीएलाच्या इतिहासांत सगळ्यांत जलद अर्द शेंकडो मारपाच्या विक्रमा कडेन बरोबरी केली. 15 बॉलांनी 56 धांवड्यो करपी कमिन्सान 14 बॉलांनी अर्द शेंकडो पुर्ण केलो. अशे तेरन लोकेश राहुलाच्या विक्रमा कडेन बरोबरी सादली. 2018त पंजाबा वतीन खेळपी राहुलान दिल्ली आड 14 बॉलांनी अर्द शेंकडो पुर्ण केल्लो.

टी-20 क्रिकेटींत जलद अर्द शेंकडो मारपाचो विक्रम भारताच्या युवराज सिंगाच्या नांवाचेर आसा. युवराजान 2007तले संवसारीक टी-20 सर्तींत इंग्लंडा आड फक्त 12 बॉलांनी अर्द शेंकडो पुर्ण केल्लो. ते मॅचींत युवराजान इंग्लंडाचो फास्ट बॉलर स्टुअर्ट ब्रॉडा आड सेगीत स सके मारिल्ले.

मजगतीं, धांवड्यांचो फाटलाव करपी कोलकाताची सुरवात बरी जाली ना. ओपनर अजिंक्य रहाणे फक्त 7 धांवड्यो करून बाद जालो. तशेंच मुखेली श्रेयस अय्यर 10 धांवड्यो करून तंबूंत परतलो.

ते आदीं टॉस हारल्या उपरांत पयली बॅटींग करपी मुंबय इंडियन्साची सुरवात बरी जाली ना. तरी आसताना ताका निर्धारीत 20 ओव्हर्सांनी 4 विकेट वगडावन 161 धांवड्यो मेरेन मजल मारप शक्य जालें. अंदूच्या हंगामांत पयली मॅच खेळपी सुर्यकुमार यादवान येसस्वी रितीन पुनरागमन केलें. ताणें फक्त 36 बॉलांनी 52 धांवड्यो केल्यो.

ताका तिलक वर्मान बरी साथ दिली. ह्या युवा बॅट्समनान फक्त 27 बॉलांनी 38 धांवड्यो केल्यो. अखेरच्या ओव्हर्सांनी पोलार्डान धांवड्यांचो पावस घालो. ताणें फक्त पांच बॉलांनी 22 धांवड्यो केल्यो. ताची स्ट्रायक रेट 440.00ची आशिल्ली.

अंदूचे पावणेंत 15.25 कोटींनी विक्री जाल्ल्या ईशान किशनाक कालचे मॅचींत कांय खास करपाक जमलें ना. तो टॅस्ट मॅच खेळटा काय किते अशें दिसपाक लागलें. किशनान 21 बॉलांनी 14 धांवड्यो केल्यो. मुखेली रोहीत शर्मा लेगीत अपेशी थारलो. ताणें 12 बॉलांनी 3 धांवड्यो केल्यो. ताका फास्ट बॉलर उमेश यादवान तंबूंत धाडलो. उमेशान रोहीताक वट्ट पांचवे खेपे बाद केलो.

आपली पयली मॅच खेळपी डेवाल्ड ब्रेवीसान 18 बॉलांनी 29 धांवड्यो केल्यो. ताणें दोन चवके आनी दोन सके मारले.

हे मॅची खातीर दोनूय पंगांनी एकेक बदल केलो. जम्मू कश्मीराचो फास्ट बॉलर रसीख सलाम कोलकाता वतीन आपली पयली मॅच खेळ्ळो. आयपीएलांत खेळपी तो जम्मू कश्मीराचो चवथो क्रिकेटर थारलो. बीसीसीआयान जल्म दाखल्यांत फेरफार केल्ल्यान दोन वर्सांची बंदी घाल्ली. मुंबय वतीन 19 वर्सां पिरायेचो आफ्रिकेचो बॅट्समन डेवाल्ड ब्रेवीसाक पदार्पण करपाची संद मेळ्ळी. ब्रेवीसाक बेबी एबी लेगीत म्हणटात.

### लखनौ-दिल्ली मर्दीं आयज मॅच



खबरां संस्था

**मुंबय:** ईंडीयन प्रिमीयर लिगेंत (आयपीएल) आयज लखनौ सुपर जायण्ट्स आनी दिल्ली कॅपिटल्स ह्या पंगडां मर्दी हांगाच्या डॉ. डी व्हाय पाटील मैदानाचेर मॅच जातली. लखनौ सुपर जायण्ट्सान फाटले मॅचींत सनरायझर्स हैद्राबादाक 12 धांवड्यांनी हारयिल्लो, जाल्यार दिल्ली कॅपिटल्साक फाटले मॅचींत गुजरात टायटन्स कडल्यान 14 धांवड्यांनी हार घेवची पडिल्ली.

दोनूय पंगडांचेर नदर मारली जाल्यार लखनौ आतां मेरेन तीन मॅची खेळ्ळा. हातूंतल्यो दोन मॅचींनी ताणें जैत जोडलां. दिल्ली कॅपिटल्स दोन मॅची खेळ्ळा आनी एके मॅचींत जैत आनी एके मॅचींत ताणें हार घेतल्या. जैताची गाडी परतून रुळार हाडपाचो दिल्लीचो यत्न आसतलो.

### अण्डर 10 बुद्दीबळ सर्तींत अभीर, दिया हांकां वस्तादपण

भांगरभूंय | खेळां मेज

**पणजी:** राज्य पांवड्या वयले 10 वर्सां पिराये सकयले बुद्दीबळ सर्तींत अभीर प्रभून उक्त्या गटांतलें जाल्यार दिया सावळ हिणें चल्यांच्या गटांतलें वस्तादपण जोडलें.

बार्देस तालुको चेस असोसिएशनान जी एस आमोणकार विद्या मंदीर आनी लायन्स क्लब ऑफ थिवी हांच्या सहकार्यान आनी गोवा चेस असोसिएशनाचे अस्थायी समितीचे मान्यतायेन घेतिल्ली सर्त म्हापशेंच्या जी एस आमोणकार विद्या मंदिरांत जाली.

उक्त्या गटांत अभीर प्रभू, शुभ बोरकार, साईराज नार्वेकार हांचे स फेरयांतल्यान देकी पांच गूण जाले. ताका लागून जैतिवंत थारावपाक टायब्रेकराचो आदार घेवचो पडलो. हातूंत अभीर येसस्वी थारलो. चल्यांच्या गटांत दिया सावळान सगळे म्हणटयार पांचूय डाव जिखून वस्तादपण जोडलें. चार गुणां सयत नव्या नार्वेकाराक दुसरी सुवात फावो जाली. दोनूय गटांतले पयले दोन स्पर्धक राष्ट्रीय अण्डर 10 गटांतले सर्तींत गोंयचें प्रतिनिधीत्व करपाक पात्र थारल्यात. ही सर्त 26 एप्रील पसून जम्मूक सुरू जातली.

चल्यांच्या उक्त्या गटांत राजवीर पाटील, वेदांत शिरोडे, एकांग मालवणकार हांकां वळेरेन चवथी ती सवी सुवात फावो जाली. चलयांच्या गटांत लिया सिल्वेरा, जेन्सिना सिक्वेरा, तनिशा नायक देसाय, अवनी सावयकार हांकां वळेरेन तिसरी ती सवी सुवात मेळ्ळी.

बार्देस तालुक्यो पांवड्या वयले उक्त्या गटांत रौनक नायक, आरुष आर्सेकार, जाल्यार चलयांच्या गटांत वेदा केळकार हिका इनाम फावो जालें.

अरविंद म्हामल सर्तीचे मुख्य आर्बिटर जाल्यार अविनाश मालवणकार सहाय्यक आर्बिटर आशिल्ले. इनामां भेटवण सुवाळ्याक लायन्स क्लब इंटरनॅशनलाचे अध्यक्ष अश्विनीकुमार कर्पे, तिसवाडी तालुका चेस असोसिएशनाचे अध्यक्ष महेश कांदोळकार, गोवा चेस असोसिएशन अस्थायी समितीचे निमंत्रक सचीन आरोलेकार, लायन्स क्लबाचे जिल्हो अध्यक्ष शिरीष दिवकार, बार्देस तालुका चेस असोसिएशनाचे अध्यक्ष विश्वास पिळ्ळणकार, सचीव डॉ. सुशांत धुळापकार, भांडारी रामचंद्र परब, वांगडी गोविंद शिरोडकार हे उपस्थीत आशिल्ले.

### गोंय 130 धांवड्यांनी मुखार

**अण्डर 25 सी के नायडू क्रिकेट सर्त**

भांगरभूंय | खेळां बातमीदार

**फातोडें:** मंथन खुटकार आनी विश्वंबर कहलोन हांच्या उत्कृश्ट अर्द शेंकड्यो नेटार गोंय पंगडान हिमाचल प्रदेशा आड चालू आशिल्ले 25 वर्सां पिराये सकयल कर्नल सी के नायडू क्रिकेट मॅचीच्या दुस्र्या दिसा 130 धांवड्यांची म्हत्वाची आघाडी घेतली.

चार दिसांची मॅच बंगळुरुच्या अलूर क्रिकेट मैदानाचेर चालू आसा. मंथन खुटकारान 174 बॉलांनी 89 धांवड्यांची खेळी केली. हातूंत 12 चवक्यांचो आस्पाव आशिल्लो. जाल्यार विश्वंबरान 179 बॉलांनी 55 धांवड्यो केल्यो. ताणें चार चवके मारले.

हिमाचल प्रदेशान पयल्या डावांत 193 धांवड्यो केल्ल्यो. ताका प्रत्युत्तर दितना गोंयान पयल्या डावांत 323 धांवड्यो मेरेन मजल मारली.

मंथन खुटकारान दोन म्हत्वाच्यो भागिदाऱ्यो करून पंगडाक बरो स्कोर उबारून दिवपाक मजत केली. पयलीं ताणें कश्यप बखले वांगडा मेळून दुसरे विकेटी खातीर 54 धांवड्यांची भागिदारी केली, जाल्यार तिसरे विकेटी खातीर विश्वंबरा वांगडा 42 धांवड्यांची भागिदारी केली.

ते उपरांत विश्वंबर आनी तुनीष सावकार हाणें पांचवे विकेटी खातीर 61 धांवड्यांची भागिदारी केली. हिमाचल प्रदेशा वतीन ऋतिककुमारान सगळ्यांत चड विकेटी घेतल्यो. ताणें 77 धांवड्यो दिवन गोंयच्या स बॅट्समनांक तंबूंत धाडले.

दुस्र्या दिसाचो खेळ सोंपलो त्या वेळार हिमाचल प्रदेशान आपल्या दुस्र्या डावांत बिनबाद 4 धांवड्यो केल्यो.

धांवतकटो: हिमाचल प्रदेश (पयलो डाव) 193, गोंय (पयलो डाव) 116.1 ओव्हर्सांनी 323 धांवड्यो (मंथन खुटकार 89, कश्यप बखले 26, विश्वंबर कहलोन 55, तुनीष सावकार 38, दीपराज गांवकार आनी मोहीत रेडकार देकी 24 धांवड्यो, ऋतीककुमार 6-77, जयशोधन ठाकूर 2-70), हिमाचल प्रदेश (दुसरो डाव) बिनबाद 4 धांवड्यो.

### नॅथन कुल्टर नायलाक आयपीएल चुकतली

खबरां संस्था

**मुंबय:** राजस्थान रॉयल्साचो दिग्गज बॉलर नॅथन कुल्टर नायल जखमी जाल्ल्यान ताका अंदूंची उरिल्ली ईंडीयन प्रिमीयर लीग (आयपीएल) चुकतली.

नॅथन राजस्थान रॉयल्साचो म्हत्वाचो बॉलर. चुरशीच्या खेळा वेळार मॅच धुंवडावपाची तांक ताचे कडेन आसा. पूण, सनरायझर्स हैदराबादा आड खेळटना तो जखमी जालो.

नॅथनाची गैरहाजरी राजस्थान रॉयल्साक म्हारग पडुये. सध्या तो गुणतकट्यांत पयले सुवातेर आसा. पूण, अशें आसताना नॅथन सर्तीतल्यान भायर पडिल्ल्यान ताचो फटको राजस्थानाक बसपाची शक्यताय आसा.

### शिरगांव क्लब वस्ताद

भांगरभूंय | खेळां मेज

**पणजी:** शिरगांव स्पोर्ट्स क्लबान साळच्या सिद्धांत स्पोर्ट्स क्लबान आयोजीत केल्ली सिद्धांत करंड 11वी अखील गोंय आंतर पंचायत टी-20 लेदर बॉल क्रिकेट सर्तीचें वस्तादपण जोडलें. साळच्या सरकारी हायस्कुलाच्या मैदानाचेर जाल्ले फायनलींत ताणें वझरी-पेडणेंच्या सम्राट स्पोर्ट्स क्लबाक 5 विकेटींनी हारयलो.

पयलीं बॅटींग करतना सम्राट स्पोर्ट्स क्लबान निर्धारीत 20 ओव्हर्सांनी 8 विकेटी वगडावन 153 धांवड्यो केल्यो. आशिष नायकान 40, यतिश नायकान 35, आकाश नायकान 20, अमितान 12 जाल्यार आपली कळंगुटकारान 11 धांवड्यो केल्यो. शिरगांव वतीन कैलास गांवकारान 3, केदार च्यारीन 2, विश्वतेज वायंगणकारान आनी विठ्ठल घाडी हाणें देकी एक विकेट घेतली.

मोखीचो फाटलाव करपी शिरगांव स्पोर्ट्स क्लबान 5 विकेटी वगडावन 154 धांवड्यो करून जैत जोडलें.

सागर सावंतान 29, चंद्रकांत घाडीन 29, गोविंद घाडीन 27, केदार च्यारीन 14 जाल्यार दिव्येश गांवकार आनी विश्वतेज गांवकार हाणें देकी 11 धांवड्यांचें योगदान दिलें.

सम्राट क्लबा वतीन गौरव नायकान तीन, आपली कळंगुटकारान एक विकेट घेतली.

ह्या जैतान शिरगांव स्पोर्ट्स क्लबाक एक लाख रुपया आनी आकर्शक करंड फावो जालो. उप वस्ताद सम्राट क्लबाक 50 हजार आनी करंडाचेर समाधान मानचें पडलें.

हाचे खेरीत उत्कृश्ट शिस्तीचो पंगड म्हणून आमोणच्या म्हागणपती क्लबाची निवड जाली. फायनलींतलो मॅन ऑफ द मॅच पुरस्कार खातीर कैलास गांवकार (शिरगांव क्लब), उत्कृश्ट बॉलर गॅस्पर फर्नांडीस (सम्राट क्लब), उत्कृश्ट बॅट्समन म्हणून चंद्रकांत घाडी (शिरगांव क्लब) आनी मॅन ऑफ द सिरिजा खातीर यतीश नायक (सम्राट क्लब) हाची निवड जाली.

इनामां भेटवण सुवाळ्याक मुखेल सोयरे म्हणून दिवचल मतदार संघाचे आमदार डॉ. चंद्रकांत शेट्ये, साळचे रहिवासी तशेंच दिवचल नागरी पुरवठो खात्याचे कर्मचारी विजय परब, सम्राट क्लबाचे अध्यक्ष उदय परब, शिरगांव क्लबाचे अध्यक्ष सुरत गांवकार, सिद्धांत क्लबाचे अध्यक्ष अनिरुद्ध राऊळ आनी हेर मानेस्त उपस्थीत आशिल्ले.

### महाराष्ट्र आनी गोंयांत टाटा मोटर्सच्या 712 वाहनांची विक्री



भांगरभूंय | खबरां मेज

**पणजी:** टाटा मोटर्स वतीन गोंय आनी महाराष्ट्रांत एकाच दिसा 712 वाहनांचें वितरण गिरायकांक केलें. तातूंत 564 नेक्सॉन ईव्ही आनी 148 टिगॉर ईव्हीचो आस्पाव आसा. टाटा पॅसेंजर इलेक्ट्रिक मोबिलिटीचे विक्री आनी सेवा धोरणाचे मुखेली विवेक श्रीवत्स हांणी भारत गतीशीलतेंत इलेक्ट्रिफिकेशनचे दिकेन वतना टाटा मोटर्स गिरायकांक इव्हील टू इलेक्ट्रीक हातूंत वचपाक मजत करता अशें सांगलें. महाराष्ट्र आनी गोंयांत एकाच दिसा 712 ईव्हींचें वितरण करपाचें एक व्हड काम आसा. टाटा मोटर्स भारतांत इलेक्ट्रिक गतीशीलतेचो अवलंब वाडावपाक जाय ताचो सगळ्यांक जाग्रुताय करपाचें काम करता अशें तांणी फुडें सांगलें.

टाटा अस्पायरेशनल एसयूव्ही नेक्सॉन ईव्ही शून्य उत्सर्जनासयत एका चार्जांत लॉंग-रेंज (312 किमीची एआरएआय प्रमाणित रेंज) दिता. ईव्हींत शक्तिशाली आनी उच्च-कार्यक्षम 129 पीएस परमनण्ट-मॅग्नेट एसी मोटर, उच्च क्षमतापूर्ण 30.2 केडब्ल्यूएच लिथियम-आयन बॅटरीची शक्ती आसा. टिगॉर ईव्ही भारतांतली सगळ्यांत सुरक्षीत इलेक्ट्रिक सेदान आसा अशें तांणी सांगलें.

# मुकेश अंबानी आशिया आनी भारतांत सगळ्यांत गिरेस्त

## गौतम अदानी दुसरे, शीव नाडर तिसरे सुवातेर

खबरां संस्था

**नवी दिल्ली:** फोर्ब्सान जाहीर केल्ल्या संवसारांतल्या सगळ्यांत गिरेस्तांचे वळेरेंत भारतांतल्या दिग्गजांनी सुवात मेळयल्या. रिलायन्स इंडस्ट्रीजचे चॅरमन मुकेश अंबानी गिरेस्त भारतीयांचे वळेरेंत पयले सुवातेर आनी अदानी समूहाचे मुखेली गौतम अदानी दुसरे सुवातेर आसात.

मुकेश अंबानी आशियांतले सगळ्यांत गिरेस्त आसात. तांची वट्ट संपत्ती 90.7 अब्ज डॉलर आसा. ते संवसारांतले गिरेस्तांचे वळेरेंत ते 10वे सुवातेर आसात. गौतम अदानी आशियांतले दुस्रे नंबराचे सगळ्यात गिरेस्त व्यक्ती आसात. तांची संपत्ती 90 अब्ज डॉलरांची आसा. संवसारातले वळेरेंत ते 11वे सुवातेर आसात. एचएलसी टॅक्नॉलॉजीचे संस्थापक शीव नाडर फोर्ब्सान जाहीर केल्ले टॉप 10 गिरेस्त भारतीयांचे वळेरेंत तिसरे सुवातेर आसात. कोरोनाची कोव्हिशील्ड वासीन तयार करपी सायरस पूनावाला चवथे सुवातेर आसात. ताची संपत्ती 24.3 अब्ज डॉलर आसा.

डीमार्टचे संस्थापक राधाकृष्ण दमानी पांचवे सुवातेर आसात. पोरू संवसारातले 100 गिरेस्तांचे वळेरेंत ते पांचवे सुवातेर आशिल्ले. ताची वट्ट संपत्ती 20 अब्ज डॉलर आसा. आर्सेलर मित्तलाचे अध्यक्ष लक्ष्मी मित्तल 17.1 अब्ज डॉलर्सांचे संपत्तीन 6वे सुवातेर आसात. ओपी जिंदाल ग्रुपाची सावित्री जिंदाल गिरेस्त भारतीयांचे वळेरेंत 7वे आनी संवसारांतले गिरेस्ताचे वळेरेंत 91वे सुवातेर आसात. तिची संपत्ती 17.7 अब्ज डॉलरांची आसा. आदित्य बिर्ला समुहाचे अध्यक्ष कुमारमंगलम बिर्ला भारतीयांचे वळेरेंत 8वे आनी संवसारांतले वळेरेंत 109वे सुवातेर आसात. तांची संपत्ती 16.6 अब्ज डॉलरांची आसा. सन फार्माचे दिलीप सिंघवीची संपत्ती 15.6 अब्ज डॉलर आसा आनी संवसारांतल्या गिरेस्तांचे वळेरेंत ते 115वे सुवातेर आसात. कोटक महिंद्रा बँकेचे उदय कोटक भारतीयांचे वळेरेंत 10वे सुवातेर आनी संवसारातले वळेरेंत 129वे सुवातेर आसात. तांची संपत्ती 14.3 अब्ज डॉलरांची आसा.

### भारतान रशिये कडल्यान संरक्षण उपकरण खरेदी करप कमी करचें

**अमेरिकेचे संरक्षण सचीव ऑस्टीन हाची सुचोवणी**

खबरां संस्था

**वॉशिंग्टन:** भारतान येता त्या काळांत रशियन लश्करी उपकरणां वयलें आपलें अवलंबीत्व कमी करचें, अशी सुचोवणी अमेरिकेचे संरक्षण सचीव लॉयड ऑस्टिन हांणी केल्या. रशिया कडल्यान संरक्षण उपकरण खरेदी भारताच्या हिताची ना अशी शिटकावणी लेगीत तांणी दिल्या.

ऑस्टिन हांणी सशस्त्र सेवा समितीच्या वांगड्यांक वर्सुकी संरक्षण बजेटा वयले काँग्रेसाचे सुनावणे मजगतीं सांगलें कीं, आमी भारता वांगडा काम करतात आनी रशियन उपकरणां मदीं गुंतवणूक करप तांच्या हिताचें ना हें भारताक सांगप आमचें कर्तव्य आसा. अमेरिकेचे वांगडाचे संबंद बरे उरपाक जाय जाल्यार भारतान रशियन उपकरणां विकतीं घेवपाचें कमी करपाक जाय. रशियाचेर निंबून रावपाचें भारतान कमी करप ताचे खातीर बरें थरतलें अशें ऑस्टिन हांणी सांगलें.

रशिया आनी युक्रेन मजगती सुरू आशिल्ल्या झुजा मजगतीं रशिया विशींचे भारतीय भूमिकेचेर टिका करपी काँग्रेस वांगडी जो विल्सन हांच्याच प्रस्नाक संरक्षण सचीव जाप दिताले. त्या वेळार ऑस्टिन हांणी ही टिप्पणी केली. आमचो इश्ट भारत हो संवसारांतलो सगळ्यांत व्हड लोकशाय आसा. अमेरिकन आनी सहयोगी पर्यायां परस रशियन शस्त्रास्त्र प्रणाली वेंचून स्वताक क्रेमलिना कडेन तुळ करपाचो पर्याय वेंचून काडटा हे भयानक आसा अशें विल्सन हांणी म्हणिल्लें.

### युक्रेनांतल्या नरसंहाराचो भारता कडल्यान निशेध

खबरां संस्था

**संयुक्त राष्ट्रां:** युक्रेनांतल्या नरसंहाराचो भारतान संयुक्त राष्ट्रांचे सुरक्षा परिशदेंत निशेध केला. रशियाचे सैनीक युक्रेनांत नागरिकांचेर अत्याचार करतात. ते दुसऱ्या म्हाझुजांत केल्ल्या अत्याचारा परस चड क्रूर आसात. तेन्ना जाल्ले झुज गुन्यांवकारी परस रशियाचे आतांचे गुन्यांव चड गंभीर आसात, अशी काळाव युक्रेनाचे अध्यक्ष वोलोदिमीर झेलेन्स्की हांणी संयुक्त राष्ट्रांचे सुरक्षा परिशदेचे बसकेंत मंगळारा केली. झेलेन्स्की हांणी केल्लें युक्रेनांतल्या झुज गुन्यांवकारीचें वर्णन सामकें थ्यथीक करपी आसा. ताची चवकशी करपाचे मागणेक आमचो तेको आसा, अशी भूमिका भारता वतीन हे बसकेंत मांडल्या.

सुरक्षा परिशदेक झेलेन्स्की हाजीर रावल्ले खातीर भारतान तांका धन्यवाद दिल्यात. झेलेन्स्की हांणी बसकेंत सांगलें कीं, युक्रेनाची राजधानी कीव्हपसून सुमार 30 किलोमीटरांचेर आशिल्ल्या बुचा शारांत रशियन सैनिकांनी नरसंहार केलो. हे शार आता परत युक्रेनाच्या ताब्यांत आयलां. थंय रशियन सैनिकांनी सुमार 300 नागरिकांक मारून वडयल्यां. शाराच्या महापौरान तशी काळाव केल्या. रशियन सैनीक ह्या शारांत घुसल्या उपरांत थंय जे कोण आमच्या देशाचे वटेन आसात तांकां मारून वडयपाक लागले. जायत्या बायलांचेर तांणी ताच्या भुरग्यां सामकार बलात्कार केले. उपरांत तांका मारून वडयलें. रशियान केल्ले हे गुन्यांव दुस्र्या झुजांतल्या क्रौर्यापरस भयंकर आसा अशें झेलेन्स्की हांणी सांगलें.

### श्रीलंकेंत सत्तेंत वांटेकार जावपाक विरोधी पक्ष फुडारी तयार नात

खबरां संस्था

**कोलंबो :** श्रीलंकेचो अध्यक्ष गोतबाया राजपक्षे हांणी तांचो भाव आनी अर्थमंत्री बासिल राजपक्षे हाका सोमवारा पदावयल्यान काडून वडयले उपरांत प्रस्तावीत युनिटी मंत्रिमंडळांत वांटेकार जावपाचें आमंत्रण श्रीलंकेतल्या विरोधी पक्षांक दिल्लें. मात हें आमंत्रण म्हणल्यार तांचें ढोंग आसा अशें सांगून विरोधकांनी तें भायर मारलें. देशांतले अर्थीक संकश्ट हाताळपाक सत्ताधारी राजपक्षे कुटुंबाक अपेश आयिल्ल्यान देशांत तांचे आड निदर्शनां चल्ल्यांत.

आपल्या भावाक अर्थमंत्रीपदा वयल्यान काडून वडयले राजपक्षे हांणी देशा खातीर युनिटी कॅबिनेटांत वांटेकार जावपाचें आमंत्रण विरोधी पक्षांक दिल्लें. मात देशांत लागू केल्ली आणीबाणी आनी कर्फ्यू हाचें उल्लंघन करून हजारांनी लोक सरकाराचो निशेध करपा खातीर रस्त्यार आयल्या उपरांत फाटल्या आयतारा राजपक्षे हांच्या सगळ्या 26 मंत्र्यांनी तांच्या राजिनाम्याचीं पत्रां पंतप्रधान महिंद्रा राजपक्षे हांका सादर केलीं.

सम्गी जना बालवेगाय (युनायटेड पीपल्स फोर्स) ह्या सगळ्यांत व्हड विरोधी पक्षान राजपक्षे हांच्या युनिटी कॅबिनेटाचो प्रस्ताव भायर मारला. सामूहीक राजिनामे हें ढोंग आसा अशें तांणी सांगलें. आपलो तामीळ पीपल्स अलायन्स पक्ष आनी मुस्लिमाचो श्रीलंका मुस्लीम काँग्रेस पक्ष युनिटी कॅबिनेटांत वांटेकार जावचे नात अशें मानो गणेशन हृया तामीळ फुडाऱ्यान सांगलां.

श्रीलंकेतल्या अर्थीक संकश्टांत भारतान अर्थीक पॅकेज दिवचें हें खातीर राजपक्षे हांणी यत्न चलयल्यात. बेलआवट पॅकेजी संबंदी श्रीलंकेचे अधिकारी आंतरराष्ट्रीय नाणें निधीकडेन चर्चा करपाक वचपाचे आसात.